# निर्णय

(कथासंग्रह)



जोफा गोन्साल्वीस




गोवा कोंकणी अकादेमी

निर्णय

जोफा गोन्साल्वीस
(कथासंग्रह)

प्रकाशन क्र. : 131



प्रकाशक :
गोवा कोंकणी अकादेमी
243, पाटो कॉलनी,
पणजी, गोंय

पयली उजवाडावणी : 2010

मुखचित्र :
गौरीश वेर्णेकार

छापणावळ :
रूतू ऑफसेट,
वळवय - फोंडे - गोंय

मोल : रुपया 50/-

NIRNAY

JOFA GONSALVES

Publication No. : 131



publisher :
Goa Konkani Akadami
243, Patto Colony,
Panaji - Goa

First Publication : 2010

Cover :
Gourish Vernekar

Printer :
Rutu Offset
Volvoi, Ponda, Goa

Price : 50/-

हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादमीच्या 'वेंचीक पुस्तकां उजवाडणी' येवजणेखाला छापलां.



# अकादेमीचेवतीन

जेन्ना प्रतिभेक पाखां फुट्टात तेन्ना आसमंतात घिट्टट्यो घालपी उडपी सवण्याक खंयचो मार्ग धरचो तें पयल्याच उड्डाणावेळार समजना, पूण जेन्ना फुडलें निळें मळब जेन्ना ताजे प्रतिभेक हुंवार येता, आनी त्या हुंवारातल्यान फकत उरता निखळ प्रतिभेचे अव्रंवर रूप.

नव्या बरोवप्यांक हें खबर आसा अशें आमी सदांच मानीत आयल्यात, देखून गोवा कोंकणी अकादेमी होच हेत दोळ्यामुखार दवरून युवा साहित्य संमेलनां घडोवन हाडटा. अकरा वर्सां आदीं जंय ह्या उपक्रमाची पयली वात दिवलेंत पेटयिल्ली, तीसतत धा वर्सां पेटत रावली ही गजाल खूब महत्वाची, केपेंच्या सरकारी महाविद्यालयाक म्हणजेच थंयच्या समस्त वावरुप्यांक, शिकोवप्यांक आनी योगायोगान पयल्या संमेलन आयोजनात ज्या प्राचार्यांचो शिंवाचो वांटो आशिल्लो तेच प्राचार्य प्रा. भास्कर नायक परत अकराव्या वर्सांतल्या युवा साहित्य संमेलनाच्या आयोजनात महत्वाचो वांटो आपल्या भुंजार घेतात हिवूय घडणूक नोंद करपासारकीच आसा.

ह्या संमेलनांत अकादमी आनी एक नवें पावल मारता तें म्हळ्यार युवांकूरा भायर, युवा संमेलनांतल्यान तयार जाल्ले एक तरणाटे लेखिकेचे पुस्तक, कथा झेलो उजवाडाक हाडटा, आनी युवा बरोवप्याक उर्बा दिवपाचे वांटेर आनी एक खूंट अकादेमी उबो करता. साहित्याच्या मळ्याची राखण करपाक वंय जाय, आनी असले एक एक खूंट म्हळ्यार हे वयेची शक्त. बाय जोफा गोन्साल्वीस हांगेल्या तरणे प्रतिभेचो आविष्कार म्हळ्यार तांगेलो हो अकरा कथांचो झेलो, जो पयलो चंवर आनी आमचेखातीर चवरां. साहित्याचो हो मानकुराद आंबो असोच एका एका चंवरान चवरलां आनी फुल्ला. हो

असोच फुलत उरचो हो ध्यास गोवा कोंकणी अकादेमीचो आसा, आनी तेचखातीर बाय जोफाच्या ह्या पयल्या कथा झेल्याक गळ्याक घालतना, अकादेमीक अशेच जायते झेले, फांतयो, हार, तुरे कोंकणी सरस्वतीच्या गळ्यांत घालपाची संद फाव जांवं अशें इच्छीता. बाय जोफा गोन्साल्वीसाक ह्या उतरांनी हांव साहित्य अभिव्यक्तीत फुडार आंवडेतां.

– एन. शिवदास

# मनोगत

11 व्या युवा कोंकणी साहित्य संमेलनात म्हजो 11 कथांचो संग्रह उजवाडाक येता हाची म्हाका खूब खोस भोगता. हांव युवा कोंकणी साहित्य संमेलनांतल्यानूच घडलां. तिसऱ्या युवा कोंकणी साहित्य संमेलनात कथा सर्तींत म्हजे 'सोद आनी बोध' हे पयलेच कथेक पयलें इनाम फावो जालें. खास संमेलनातल्या सर्तीखातीरूच हांवें ती कथा बरयली. हीच कथा म्हज्या उपरान्तच्या कथा लेखन प्रवासांत म्हाका स्फुर्त दिवपी थारली. साहित्य लेखनाची म्हजी सुरवात कथेवरवींच जाली. म्हज्या लेखनाचें सगळें श्रेय युवा कोंकणी साहित्य संमेलनाकूच दिवपाक जा. संमेलन घडून येना आशिल्लें तर हांव घडये बरोवचेंच नाशिल्लें.

म्हजे पयले कथेचो आस्पाव हांवें ह्या संग्रहांत करूंक ना. ती कथा एका विज्ञानीकाच्या जिणेंचेर आदारीत आशिल्ली. विज्ञानीय विशय हाताळपी हे कथेक जेन्ना पयलें इनाम मेळ्ळें तेन्ना फुडें फकत विज्ञान कथाच बरोवच्यो असो एके उखलापो विचार मनाक आफडून गेलो. आनी ते नदरेन प्रयत्नूय केलो. पयली कथा यशस्वी जाल्ली पूण उपरान्तच्यो कथा त्या विशयाच्या गिन्यानाचे मर्यादेक लागून कमी पडल्यो. ह्याच संदर्भात अश्याच विशयावेल्या कथेचेर सवव्या युवा कोंकणी साहित्य संमेलनात कथा विभागातल्या परिक्षकांनी दिल्लें मार्गदर्शन खूब फायद्याचें ठरलें. खंयच्याय विशयाचें परिपूर्ण गिन्यान वा अभ्यास आसल्या शिवाय त्या विशयाचेर कथा बरोवप शक्य ना हाची जाणीव जाली.

म्हज्या कथांनी आयिल्लीं बरिशीं पात्रां हांवें लागशिल्ल्यान पळयल्यात. 'आपलींच पूण परकीं' कथेंतली आपणागेर रावंक आयिल्ले नणदेंक धांवडावन घालपी वयनी हांवें

लागशिल्ल्यान पळयल्या. भाटकार - मुंडकार संघर्शात आपणें अणभविल्ल्या जुलूमाची सावळी आपल्या भुरग्याचेर पडची न्हय म्हण धडपडपी 'जैत' कथेंतलें फिलीसा आनी आपणेंच राखून व्हड केल्ल्या आंब्याचें एक सुद्दा तोर आपल्या पुताक दिनासतना एकान एक तोर भाटकान काडून व्हरता म्हण रागा सरशीं फुलून तक्क जाल्ल्या आंब्याचो चंवरान चंवर मोडपी घराफाटलो आंबो' कथेतलो राघोबा हांवें खूब लागींच्यान पळयला. धुवेपरस फिलयादाची अदीक माया करपी बापूयय पळयला.

म्हजो हो कथा संग्रह उजवाडावपाची जबाबदारी स्विकारिल्ले खातीर हांव गोवा कोंकणी अकादेमीचे उपकार मानता.

डॉ. जयंती नायक म्हज्यो सदांच मार्गदर्शक. तिका लागूनच म्हज्यो ह्यो कथा संग्रहीत रुप घेवंक पावल्यो. प्रसतावना बरोवपाचीय जबाबदारी तिणें स्विकारली. संग्रहाक नांवूय तिणेंच सुचयले. हांव तिचें काळजासावन उपकारी आसा.कव्हरावरवीं पुस्तकाची सोबीतकाय वाडयिल्ले खातीर हांव श्री. गौरीश वेर्णेकार हांचेय उपकार मानता. म्हज्यो कथा वाचून म्हाका सदांच प्रोत्साहन दिवपी दर एकल्याचे हांव उपकार मानता.

म्हज्यो ह्यो पयल्योच कथा वाचून वाचकांनी कथेंतल्यो मर्यादा सांगून म्हाका मार्गदर्शन करचें हीच अपेक्षा...

**- जोफा गोन्साल्वीस**

काणकोण - गोंय




# सामाजिक जाणविकायेच्यो कथा

आयच्या नवे पिळगेच्या बरोवप्यांमदीं जिचें नांव सगळ्यांत मुखार येता अशी लेखिका म्हळ्यार बाय जोफा गोन्साल्वीस. कथा हो जोफाचो प्रगटनाचो मुखेल प्रकार. फाटल्या पांच-स वर्सांसावन तिच्यो कथा वाचनांत येत आसात. युवा साहित्य संमेलन, साहित्यीक मेळावे अशा व्यासपिठावेल्यानच तिच्यो कथा कानार पडत आसा. तिच्यो कथा वाचतना वा आयकतना कोंकणी कथेच्या बऱ्या फुडारवाविशींची आशावादायी भावना सदांच मनांत किल्लल्ल्या, आनी आज तिच्या ह्या पयल्या - वयल्या पुस्तकाक प्रस्तावनेच्या रुपान व्हडपणाची दोन उतरां बरयतना ते आशेक सारें उदक पडटा.

ह्या संग्रहांत वट्ट धा कथा आस्पातल्यात, जोफान आनीकय कथा बरयल्यात. पूण स्वताच्या लेखनाचें आत्मपरिक्षण करपाचे ताचे वृत्तीक लागून ताणें बाकीच्यो कथा ह्या संग्रहाखातीर घेतिल्ल्यो नात. ह्या धांतल्यो चडश्यो कथा हांवें हे आदीं वाचल्यात, पूण ह्या संग्रहांत त्यो सगळ्यो एकेच कडेन सलग पद्धतीन वाचपाचो योग आयलो. ताका लागून ताच्या कथाविशीं कांय विधानां करप शक्य जालां.

जोफा हे काणकोणचें, निसर्गसंपन्न आनी संस्कृतीसंपन्न अशा वाठारांतलें. पूण ह्या वाठाराक मागशिल्लेपणाचो आनी गरिबीचोय शिराप आसा. जोफाकडेन प्रतिभा आसा. हे प्रतिभेच्या आदारार आपल्या सरभोंवतणच्या वाठारांतल्या निसर्ग-संस्कृतीचें चित्रण करतनाच तें गरीबीक आनी मागशिल्लेपणाक लागून समाजांत जे प्रश्न निर्माण जाल्ले आसात ते प्रभावीपणान मांडटा. मात जोफाच्या सगळ्याच कथांचे विशय गरीबी, अशिक्षीतपणां, मागाशिल्लींपणां हाचेर आसात अशें ना. ह्या संग्रहात 'दिश्टावो', 'ताची कथा' आनी 'नशीब' अश्यो 'प्रेम' ह्या विशयावेल्यो कथा आसात. जोफाच्या तरण्या

वयाक धरून ह्यो कथा बरयतना ताची लेखणी भावरंगांत भुल्लूसून गेल्यार कोणाक अजाप दिसूंक फावनाशिल्लें, पूण तशें घडलेंना. जोफामदली सामाजिक जाण आशिल्ली लेखिका आपलो संयम विसरलीना. ह्या कथांत ताणें आंतरधर्मीय लग्न, आंकवारपणांत वांट्याक आयिल्लें आवयपण, अशा समाजिक प्रश्नांक नुलयत हात घातला.

लेखकाच्या व्यक्तीमत्वाचो प्रभाव ताच्या साहित्याचेर दिसता अशें मानतात. जोफाची म्हाका जी वळख आसा तेप्रमाण तें हळवें आनी नम्र सभावाचें. 'एक घाय दोन कुडके' करप ताका जमना. पूण स्वाभिमानी आनी अन्यायाची पोटतिडक आशिल्लें. सोशीक पूण आत्मसन्मान आशिल्ले. ताच्या ह्या सभावाचो–व्यक्तीमत्वाचो प्रभाव ताच्या कथांनी पळोवंक मेळटा. ताच्या कथांतलीं पात्रां ही हळवीं – संवेदनशील, पूण प्रसंगार आपलो आत्मसन्मान सांबाळूक झुंजपी, अन्यायाचो पोटतिडकीन विरोध करपी. 'जैत', 'घराफाटलो आंबो' ह्यो कथा वाचल्यार ह्या विधानाची सत्यताय येता. जैत कथेंत आपल्याचेर जातल्या अन्यायाचो अतिरेक जाता तेन्ना कोणाचोच आदार नाशिल्लें, सोंशीक फिलसू तिळवे ह्या मुकादमाचो कोयत्यान घावे घालून खून करता. 'घराफाटलो आंबो' हे कथेंत आपणें रोयिल्लो आंबो दर वर्सा चंवरता, पूण ताचे एक बुसून फळ भाटकान्न आपल्या पुताक चाखूंक दवरना तें पळोवन आयिल्लें एक्कान एक चंवर राघोबा मोडून वडयता.

भाटकार – मुंडकार संघर्श आनी बायलेचें शोशण इतल्यांत मर्यादीत विशयांत न घुस्पता जोफाकडेन सामजांतल्या ताज्या ज्वलंत विशयाकडेन पळोवपाचीय नदर आसा हें 'चूक' ही कथा बरोवन जोफान सिद्ध केला. आपल्या भुरग्यांची कुवत न पळयतां आपल्या अपेक्षांचें वजें पालक भुरग्यांच्या माथ्यार घालतात आनी तांकां आत्महत्या करूंक प्रवृत्त करतात असो हे कथेचो मूळ आशय, मात हे कथेचो शेवट काळजाक पीळ घालता. एक विद्यार्थ्याची जीण वाचोवंक टिचरीन घेतिल्लो निर्णय दुसऱ्या विद्यार्थ्याची जीण सोपोवंक कारण जाता. स्वता पेशान शिक्षीका जाल्ल्यान हे कथेंतल्या नायिकेच्यो मनोभावना जोफा बरेतरेन चित्रीत करूंक पावलां.

जोफाचो हो कथासंग्रह स्त्रीप्रधान कथांचो वा स्त्रीवादी कथांचो संग्रह अशें म्हुणूंक जावंचेना, मात ह्या संग्रहांत 'फिलयाद', 'साविया' सारक्या कथांतल्यान ताणें बायलमनशेच्या कुंचबणांक वाचा फोडल्या.

ह्या संग्रहाचें खाशेलेंपण म्हळ्यार हातुंतल्या कथांनी वाचनियता आसा. पुस्तक हातांत घेतले बरोबर तें सोंपोवनच सकल दवरपाक लावपी तांक ह्या पुस्तकांत आसा.

जोफाचें हें पयलेंच पुस्तक पूण कथा लेखनाचें तंत्र ताका बेसबरें जमलां. मात नवखेपणाची सया ताच्या कांय कथांचेर आसा हेंवूय हांगा म्हाका नमूद करूंक जाय. जोफा आधुनीक विचारसरणी मानपी तरी लोकमानसाचो ताच्या मनावेलो प्रभाव आजून दडून आसा, 'विपरीत' सारके कथेंत जाग्याच्या राखणदाराक – सोरपाक मारलो म्हुणून कायतानाचो पूत खण कोंसळून सोंपता असो समज घट जाता. सांस्कृतिक मुल्यां जपतना श्रद्धा – अंधश्रद्धा हे मदीं रेग वोडपाची कळाशी जोफाक आजून शिकपाची गरज आसा.

पात्रांक उबी करपी भास, सुक्ष्म वर्णन, योग्य वातावरण निर्मिती, विशयाचें सुटसुटीतपण ही जोफाचे कथेचीं आनीक कांय वैशिश्ट्यां. मात ह्या वैशिश्ट्यांचो उल्लेख करतना कांयकडेन कथाबीज फुलयतना लेखिकेन हात आंखडून घेतल्यात ताका लागून कथा सापच ल्हान जावंक पावल्यात, हेंवूय सांगचें पडटा, कारण फुडाराक हो दोश ताणें पयस करपाची गरज आसा.

युवा साहित्य संमेलनाचें हें अकरावें वर्स. ज्या केंपेच्या महाविद्यालयांतल्यान हें संमेलन सुरू जाल्लें, थंयच तें आयोजीत जाता, अशा वेळार युवा साहित्यीकांचें दर्जेदार पुस्तक ह्या संमेलनांत उजवाडावचें असो निर्णय जावन, तो मुखार व्हरतना पयलें पुस्तक बाय जोफा गोन्साल्वीस हाचें योगायोगान जी ह्याच महाविद्यालयाची शिक्षिका आसा आनी 11 वया संमेलनाची कार्याध्यक्ष आसा तिचें पुस्तक उजवाडाक येता ही मुजरत तुस्त करपासारकी गजाल.

हांव जोफाचें काळजासावन अभिनंदन करतां आनी ताचेकडल्यान अखंडपणान कथा निर्मणी जावन तांचो राष्ट्रीय पावंड्याचेरूय भोवमान जावंचो, म्हण अपेक्षा बाळगितां.

– जयंती नायक

ता. 15-01-2010



# मांडावळ

# 1

# चूक

फाटल्या वीस वर्साच्या शिकोवपाच्या अणभवात पयलेच फावट इतली अस्वस्थकाय जाणवताली. अशें केन्नाच घडलें ना. फाटल्या वीस वर्सांत खूब कितें आणभविल्लें. विद्यार्थ्यांच्या सहवासात वर्सां कशी धांवली हाची जाणीवूच जाली ना. शिकयता आसतनाच विद्यार्थ्यांकडल्यान जायत्यो गजाली शिकून घेतल्यो. वर्सां वतात तशी जिणेक इल्ली इल्ली गती मेळ्ळी, सगळे कितें नित्य नेमान घडटालें. परिस्थिती जरूर बदलिल्ली. पूण बदलत्या परिस्थितीक फुडो करप व्हडलेशें कठीण नाशिल्लें. विद्यार्थ्यांची मानसिकता बदलत वताली. केन्ना केन्ना कल्पनेभायल्यो घडणूको घडटाल्यो. पूण कांय दीस वतकच सगळें जाग्यार येतालें. आयजूय विद्यार्थ्यांकडल्यान फावो तो आदर जरूर मेळटालो. शिकोवपावांगडाच नवें शिकून घेवपाची तितलीच आवड आशिल्ली. जिणेंतलो दर एक अणभव खूब कितें शिकोवन वतालो.

पयल्या सत्र परिक्षेचे पेपर तपासून केन्ना सोंपिल्ले. दर एका विशयाचो रिजल्ट ऑफिसांत दिवपाची निमणी तारीकूय जावन गेल्ली. पूण सातवी यत्तेचे, म्हज्या विशयाचे गूण हांवें अजून सबमीट करूंक नाशिल्ले. फाल्यां विद्यार्थ्यांक पुराय रिजल्ट मेळपाचो आशिल्लो. म्हाका लागून गूणपत्रिका तयार करपाचें उरिल्लें. ऑफिसातल्यान परत परत

रकाद येताले. दर खेपे 'रिजल्ट तयार आसा आनीक धा मिनीटांनी दितां' हीच जाप म्हज्या तोंडांतल्यान येताली. पयलेच फावट अशें घडिल्लें. एक सादें काम लेगीत केन्ना थरयिल्ल्या वेळार न जाल्ल्याची याद जायना. पुराय शिक्षकांमदीं सगळीं कामां वेळच्या वेळार पुराय करपी हांव एकलेंच अशें मुख्याध्यापक जायते वेळा म्हणटाले. आयज तांणी म्हाका याद केली तेन्ना तांकांय बरेंच अजाप जालें. पूण चड कांय उलयनासतना हांव म्हजी थरयिल्ली जाप दिवन मेकळें जालें.

त्या दिसाचो तो प्रसंग परत परत दोळ्यामुखार येतालो. विद्यार्थ्यांच्यो परिक्षा लागीं पाविल्ल्यो. दनपारचें जेवण जातकच थोडो विसव घेवन विद्यार्थ्यांक दिवपाखातीर प्रस्नावळ तयार करतालें. अचकीत राजय दारांत उबो. ताका पळोवन हांव भायर आयलें.

''आरे राजय, यो भितर यो.''

तो भितर येवपाक मात्सो अनमनलो. घडये टिचरीगेर पयलेच फावट आयिल्ल्यान जावंये. खंयचोय विद्यार्थी म्हाका सोदीत म्हज्या घरा येवप चडशें घडना. राजय हो सातवेच्या वर्गांत शिकपी भुरगो. थंड आनी हुशार. चड उलोवपी न्हय. विचारल्यारच जाप दिवपी. शाळेंत सुद्धा वर्गाभायर तो म्हजेकडेन केन्ना उलयल्याची याद जायना. आनी आयज म्हज्या घरा सो आयलो... म्हाका मात्शें अजाप जालें. हांवें बस म्हणटकच म्हजेमुखार वग्गी बसलो आनी हांव उलोवपाची वाट पळोवपाक लागलो.

''राजय, अभ्यास सारको करता मरे?''

''हय टिचर.'' तुटक जाप.

''कित्याक आयिल्लो?''

तो कांय उलयलो ना. ताच्या तोंडार दाटिल्ली भिरांत म्हाका दिसली.

''शिकयिल्लें कितें कळूंक ना.''

तरीय तो वग्गी.

''आरे, कितें जालां तें तरी सांग मरे?''

आतां मात तो रडूंक पावलो.

''म्हाका मम्मी आनी पप्पा तापयतात.''

तो रडटा देखून हांवें ताका लागीं घेतलो आनी मायेन विचारलें,

''कित्याक तापयतात?''

''तीं सांगतात, हे परिक्षेक इंग्लीश विशयांत म्हाका सगळ्यापरस चड गूण मेळपाक जाय. वर्सान वर्स इंग्लीशीक विरेन्द्राक सगळ्यापरस चड गूण मेळटात आनी म्हाका ताचेपरस कमी. हे परिक्षेक हांवूच सगळ्यापरस चड गूण घेतलो अशें पप्पान विरेन्द्राच्या डॅडीक सांगला खंय. हांव इंग्लीशीक वर्गांत पयलो येना जाल्यार पप्पाक लज जातली आनी मागीर तो म्हाका मारतलो.''

तांणे एका धपक्याक सांगून उडयलें. खीणभर कितें उलोवचें तें म्हाकाच कळना जालें.

''तूं बरो अभ्यास कर मरे, मागीर तुकाच सगळ्यापरस चड गूण मेळटले.'' कितें तरी उलोवंक जाय म्हण हांव उलयलें.

''टिचर म्हाका इंग्लीश सारकी कळना. तुमी शिकयतात तें समजता. पूण बरोवपाक कठीण जाता.''

ताचें म्हणणें खरें आशिल्लें. हेर सगळ्या विशयांत तो पयलो येतालो. पूण म्हज्याच विशयात ताका उणें गूण मेळटाले. मुळावे शिकप आवयभाशेंतल्यान जाल्ल्यान जांवये, ताका इंग्लीश बरीच कठीण वताली. आमच्या चडश्या विद्यार्थ्यां बाबतींत अशें घडटा. परकी भाशेचें वजें पेलप तांकां असाह्य जाता. राजयूय हाका आडवाद नाशिल्लो. तसो तो हुशार आनी सतत प्रयत्न करपी. त्या मानान ताका चडूच मार्क मेळटाले. पूण विरेन्द्राक फाटी घालप ताका जमनासलें.

''टिचर, हांव आत्महत्या करतलों.''

म्हाका खप्प जालें.

''राजय, असली पिशेपणां उलयनात. तूं शाणो भुरगो मरे. शाणे भुरगे असले

विचार करिनात. तूं म्हज्या विशयाक इल्लो चड वेळ दी. हांव तुका मदत करता. भियेवपाची गरज ना.''

''टिचर, तूं म्हाका विरेन्द्रापरस चड गूण दी. नाजाल्यार पप्पा म्हाका मारतलो आनी हांव आत्महत्या करतलों.''

राजय उठून वचपाक लागलो. अर्थहीन नदरेन हांव ताका पळयत उरलें. इतल्या वर्सांच्या शिकोवपाच्या अणभवांत पयलेच फावट अशें घडिल्लें. म्हज्या एक विद्यार्थ्याक समजावपाक हांव कमी पडले हाची खंत जाणवपाक लागली. पोरान खरेंच अशें कितें केलें जाल्यार. आयची जिणूच बदलिल्ली आसा. विद्यार्थ्यांची मानसिकता बदल्ल्या. योग्य निर्णय घेवपाची ही राजयाची पिराय न्ही. बरें वायट समजुवपी न्ही. तकलेंत येता तें करून वचपी. राजयाक बरे तरेन समजावंक जाय. फाल्यां ताणे कितेंय बरें वायट केलें जाल्यार हांव स्वताक माफ करूंक शकचें ना. प्रत्येक विद्यार्थी आमची जबाबदारी जावन आसा. आमी चुकूंक फावना.

दुसऱ्या दिसा राजयाक मेळपाचें थारायलें. शाळेत वचून वासपूस केल्ल्यार राजय शाळेत येवंक ना. मनांत बेश्टोच दुगदुग. खीणभर दिसलें ताच्या घरा वच्चें. आवय-बापायक समजावचें. पूण ताचो विपरीत परिणाम जाल्यार...

कालच्याच टायमार राजय आयज परत घरा आयलो. ताका पळोवन जिवाक शू जालें.

''राजय, आयज शाळेत कित्याक येवंक ना रे?''

''टिचर, तुमी म्हाका विरेन्द्रापरस चड मार्क दितली न्हय?''

म्हज्या प्रस्नाक जाप दिना आसतना ताचो प्रस्न.

''असो बस. सांगतां.''

हांवें ताका बसपाक सांगलें. पूण तो बसलो ना. रडपाक लागलो.

''टिचर, हांव खरोच आत्महत्या करतलों.''

हो म्हाका धमकी बी दिना मूं. मनांत बेश्टोच एक दुबाव आयलो. हांवें ताका

जबरदस्तीन म्हज्या म्हऱ्यात बसयलो. ना ना परीन समजावपाचो यत्न केलो. पूण सगळे व्यर्थ. ताचो एकूच सूर... पप्पाचो भंय दिसता, हांव आत्महत्या करतलों.

अखेर ताका समजावपाक म्हाका उतरांच मेळना जालीं. कितलो वेळ तो आमगेर बसून रावलो. म्हज्या एका विद्यार्थ्याक समजावपाक इतलें कठीण जातलें अशें केन्नाच दिसूंक नासलें. अणभवान घेतिल्लें गिन्यान कमी पडलें. 'देवा, राजयाक अभ्यास करपाक तुजोच आदार दी, ताकाच चड गूण मेळ्यार पुरो' मनांतल्या मनांत हांवें देवाक पारायलें.

पूण घडपाचें तेंच घडलें. राजयाक अपेक्षेपरस कमीच गूण मेळिल्ले. विरेन्द्रान आपलो मान सोडूंक नाशिल्लो. पेपर तपासून जाल्ले. पूण म्हज्या विशयाची गूणपत्रिका ऑफिसांत दिवपाचें धाडस म्हाका जायनासलें. दिसतालें राजयाक विरेन्द्रापरस चड गूण दिवचे. ताणें बरयला तो पेपर कांय कोण पळोवचो नाशिल्लो. पूण म्हज्या मनांक तें पटनाशिल्लें. म्हज्या तत्वाकडेन म्हाका एकनिश्ठ रावपाक जाय... म्हज्या कर्तव्याक जपपाक जाय... म्हजे लागणूके भायलें कांय एक म्हज्या हातान घडलें ना आनी फुडेंय घडचें ना. पूण राजयान खरेंच तशें कितें केल्यार... एका विद्यार्थ्याच्या जिवापरस म्हजें कर्तव्य व्हड कशें जायत...? विद्यार्थ्यापरस म्हजें तत्व व्हड मानपी हांव कसली शिक्षिका...? ना... शें जावंक फावना. रिस्क घेवपाचो हो वेळ न्हय. हांवें म्हज्या विशयाची गूण पत्रिका तयार केली. राजयाक विरेन्द्रापरस दोन गूण चड दिवन रिजल्ट व्हरून ऑफिसांत दिलो.

आयज विद्यार्थ्यांक रिजल्ट मेळटलो. राजय खूश जातलो. पूण म्हज्यान ताका पळोवपाक जावचें ना. म्हजी म्हाकाच लज दिसपाक लागली. हांवें रजा घेतली आनी घराच रावलें. हांवें म्हजेरूच अन्याय केलो. म्हज्या तत्वाक हांवें पाळो दिलो ना. म्हजें मन म्हाका सांगता हांवें अशें करपाक नाका आसलें. म्हजें हें कतृत्व म्हाका जिवीतभर सुखान जियेवपाक दिवचें ना. दुसऱ्याच खिणांत दिसता, हांवें योग्य तेंच केलां. म्हज्या विद्यार्थ्याचें आयुश्य म्हजेखातीर व्हड आसा. मनाचो संघर्श चालूच उरता. म्हजें कितें चुकता तेंच म्हाका कळना...

दुसऱ्या दिसा सकाळीं वेळान उठलें. आयज शाळेंत वचपाक जाय. बेगीबेगीन सगळी तयारी केली आनी शाळेत गेले. स्टाफ रुमांत पळयल्यार कोणूच दिसना



मूं!!... घड्याळार नदर मारल्यार टायम बरोच जाला. इतलें म्हणसर विठोबा प्यून भितर आयलो.

‘‘टिचर, तुका खबर कळ्ळी?’’

ताचें दुःखी तोंड पळोवन म्हज्या काळजात धस्स जालें.

‘‘कितें जालें?’’

‘‘राती सातवी यत्तेच्या विरेन्द्रान आत्महत्या केली. इंग्लीश विशयांत आपणाक सगळ्यापरस चड गूण मेळूंक ना देखून आपण आत्महत्या करता अशें कारण बरोवन दवरलां.’’

ताचें वाक्य पुराय जावचे पयलींच हांव जमनीर कोसळलें.



# 2

# जैत

"तिळवे आयलो गो."

रामान घरांत भितर सरतां सरतां आपले बायलेक सांगिल्ली उतरां फिलीसाच्या कानार पडलीं. आनी ताच्या काळजांत धस्स जालें. एका भंयाकृत मोडान आपलो संवसार दिगंतरा शेंवटून उडयला अशें खीणभर ताका दिसलें. आपल्या आनी आपल्या भुरग्यांच्या फुडाराच्या भिरांतेन ताचें आंग शिरशिरलें. कृष्णा तिळवे पंचायत वेंचणुकेक उबो रावला हें कळत सावन ताचें चित्त थाऱ्यार नाशिल्लें. 'देवा सायबा, तो निवडून येना जाल्यार पुरो.' दर खिणांत तें देवाक पारायतालें. राक्षसी वृत्तीच्या ह्या कृष्णा तिळवेन फिलीसाक जिणूच नाका करून उडयिल्ली. गांवांत रावपूय ताका कठीण जावन गेल्लें. आनी आतां वेंचणूक जिखलो देखून ताका आनीक मोद चडटलो ह्या विचारानूच फिलीसा थतर वितर जालें.

घोवाच्या मरणा उपरान्त फिलीसान खंबीरपणान आनी जिद्दीन संवसाराक वेंग मारली. पांच वर्सांच्या जुंवळ्या चेडवांच्या फुडाराच्या हुस्क्यान ताचें दुख्ख विसरायेर व्हेलें. भाटकाराले तल्लूकेंत धाम व्हांवोवन मुंडकारपणाच्या अधिकारान जें मेळटालें ताचेर संवसार चलतालो. भाटकार चुकून लेगीत भाटांत पावना आसलो. भाटाचेर आनी खास करून मुंडकारांचेर लक्ष दवरपाखातीर नेमिल्लो मुकादम कृष्णा तिळवे एका

अर्थान भाटकारपणच गाजयतालो.

काजार जावन येत सावन फिलीसाक तिळवेचो भंय भंय सो दिसतालो. ताची ल्हेंवटी, तिरशी नदर ताका सोंसना आसली. तो नदरेक पडल्यारूच फिलीसाची तिडक मस्तकाक वताली आनी मनांत दुबावाची पाल चुकचुकताली. केन्नाय तें घोवाचेर राग काडटालें.

''पाडेपणांवेळार हांव घरांतल्यान भायर सोरचें ना हां.''

''तूं घरांत बोसल्यार नाल्ल कोण म्हुजी शेमांय पुजायतोली.''

''तो मुकदोम म्हाका पोळेत रावता.''

''आमगेलें काम आमकां चुकलां.''

''पाडेकारा उलोवप आयकून म्हाका वीट येता.''

''तेंगे तूं आयकोनाका.''

बॉस्त्यांवाचें फिलीसालागीं काजार जायत सावन तिळवेची वसवशी नदरूय घसघशीत आंगलोटाच्या फिलीसाचेर पडली. कसलेंय ना कसलेंय निमित्त काडून तो परत परत बॉस्त्यांव मेळूंक येवपाक लागलो. एक दीस असोच अचकीत तिळवे दारांत उबो जालो. बॉस्त्यांव झरीर न्हावपाक गेल्लो आनी भुरगींय पायच्या फाटल्यान धांविल्लीं. तिळवेक असो अकस्मात पळोवन फिलीसाच्या पोटांत भिरांतेन गुळी जाली. पूण तोंडावेले भाव लिपोवपाचो ताणें यत्न केलो.

''मुकदोमबाब, बस. बॉस्त्यांव आतांच येतलो.''

ताका भायर बसपाक सांगून फिलीस भितर गेलें. पूण ताचे फाटोफाट तिळवेय घरांत घुसलो आनी जबरदस्तीन फिलीसाच्या आंगार हात घालपाक लागलो. फिलीसाचें काळीज आकांताचें धडधडपाक लागलें. बोवाळ मारपाखातीर तोंड उगडलें पूण आवाजूच फुटना जालो. सगळें बळ एकवटावन ताणें तिळवेक धुकलपाचो यत्न केलो. पूण तिळवेची वेंग फिलीसा भोंवतणी अदीक घट जावपाक लागली.

''मेल्ल्या, सोड म्हाका.''

''फिलीसा, तूं कितलें सोबीत दिसता गो. म्हाका जाय तूं.''

इतल्यान उलयत येवपी पाय धुंवांचो आवाज कानार पडटकच तिळवेक ना इलाजान फिलीसाक सोडून भायर येवन बसचें पडलें. साव जावन बशिल्ल्या तिळवेक पळोवन कोयतेच्या घायांनी ताका चांचावन नाच्च करचो असो एक विचार फिलीसाचें मन हालोवन गेलो. घोवाक सांगून ताका व्होशीमोर करचें अशें दिसलें. पूण त्या प्रसंगाविशीं घोवाक मात तें यत्न करूनय केन्नाच सांगपाक शकलें ना.

बॉस्त्यांवाच्या अचकीत मरणान फिलीसा पुरायेन हाल्लें. आपल्या भोंवतणची राखणेची वंय मोडून पडिल्ल्याची ताची अवतिकाय जाली. तरीय ल्हानपणासावन संघर्श अणभविल्लें ताचें मन खंबीरपणान उबें रावलें.

''फिलीसा, फाल्यां सावन पाडेपण सुरू गो. पयलींच तुमची तल्लूक पाडपाची खंय.''

मुकदम तिळवेचो रकाद शेजारी मुंडकार रामान फिलीसाक कळयलो. दुख्खाचे न्हंयेत घुस्पल्ली जीण म्हादुख्खी समुद्राच्या लोटांत सांपडची अशी ताची अवतिकाय जाली. बॉस्त्यांवाच्या उगडासान ताचें काळीज जड जालें. घोव आसतना तितलोच धीर आशिल्लो...

''मांय, हांव नाल्ल पुंजावपाक येता गे.''

''मांय हांवूय येता.''

''येयात, येयात... शिंयाळीं दितलो तुमकां.''

तिळवेच्या उतरां सरशीं भुरग्यांचेर धेंगसो घालपाक उगडिल्लें फिलीसाचें तोंड 'आं'च उरलें. आनी शिंयाळ्यांचे आशेन भुरगींय मांयचें आयकुवपाक रावलींच नात.

नाल्ल पुंजायता आसतना बॉस्त्यांवाचे यादीन फिलीसाचे दोळे भरून येताले.

''पाडेकारा, मात्सो हात घाल रे.''

बुटयेत नाल्ल भरीत फिलीसान म्हळें.

‘‘तूं चड रे माडार. हांव उखलतां ताका.’’

‘‘कोणाक रे? ताका  काय बुटयेक.’’

एका पाडेल्यान माडार चडटना तोंड उगडलें.

‘‘बॉस्त्यांव गेलो न्हय रे. आतां आमीच उबारपाचें.’’

एक असाह्य कळ फिलीसाच्या काळजार उदेली.

‘‘उखलू मगो... एकेवटेन तूं वयर काड दुसरे वटेन हांव काडटा.’’

‘‘मुकदमा, इल्लें चडूच वयर काड रे. माडार रावन आमचीय नदर पडूं.’’

‘‘ह्या भाटातलें सगळें आमकांच रे...’’

आपल्या मस्तकाची एक एक शीर तट्ट्टीत तुट्टा असो फिलीसाक भास जालो. कुडींतल्या सहनशक्तीचो अंत जाला म्हणपाची जाणीव जाली. परिस्थितीन शिकयिल्ल्या स्वाभिमानी विचाराचें मोड तकलेंत खतखतून वयर आयलें. आनी कितें घडलें तें कळचें आदींच फिलीसाच्या माथ्यावेली भरिल्ली नाल्लाची बुटी तिळवेच्या आंगार शेंवटली. एकूच किळांच मारून तिळवे जमनीर बसकण मारली.

‘‘मेल्ल्या, म्हाका वळखोक ना तूं. एका एकल्याक भाजून खातोलें. गोरिबेंत उपाशीं पोटारूय दीस सारल्यात पूण शील विकोंक ना. रांड बायलेचें नाक धामून तोंड उगोडनाकात धुंकरांनो. शिरापान निसंतान जातोलें मेल्ल्यांचें...’’

खडपाच्या भुंयेरात रावन उलयल्यार कितलोसोच वेळ मेरेन आवाज घुमत रावता तसो फिलीसाचो आवाज कितलोसोच वेळ मेरेन भाटांत घुमत रावलो. दोन खीण पाडेपणाचो वावर थंयचे थंय थांबलो. फिलीसाची दोगांय चेडवां आवयचे दोनूय कुशीक घट्ट चिकटलीं.

पाडेपण सोपमेरेन एक उतरूय उलोवपाचें धाडस कोणाक जालें ना. पाडेल्यामुखार आपणाक जाल्ली लज तिळवेक भितरल्यान जागयत रावली. तिडक आनी रागान ताची तकली फुडपाकडेन पावली. फिलीसान बुद्द शिकयना जाल्यार आपूण नांवाचोच कृष्णा तिळवे न्हय असो निश्चय करून मन शांत करपाचो ताणें तात्पुरतो यत्न केलो.

दुसऱ्याच सकाळीं तिळवे भाटकाराक घेवन फिलीसाच्या दारांत उबो जालो.

"फिलीसा, भायर यो गो तें."

भाटकाराल्या पकदस्त आवाजा सरशीं फिलीसा खिणांत भाटकारामुखार उबें जालें.

"भाटकारा..."

"हें घर म्हज्या नांवार आसा म्हण जाणां मुगो तूं."

"होय भाटकारा."

"म्हाका जाय तेन्ना हांव तुका घरांतलें भायर घालपाक शकता. खबर आसा मुगो."

"...."

"म्हज्या मुकदमाक रेस्पेद दिवपाक जाय हें जाणां मुगो तूं."

"..."

"आयज सावन हे तल्लुकेंतलें तुका कांयच ना. तुज्यान भाटांत भोंवपाक जावचें ना. हांव हांगा दुसरो मुंडकार दवरतां. फकत तुज्या भुरग्यांची काकुळट म्हण तुका घरांतलें भायर धांवडायना."

भाटकारामुखार फिलीसाक उतरां फुटलीं नात. मोन्यानी आयकत उरलें. लाचार जावन भाटकाराले पांय धरप ताच्या मनाक पटलें ना. पूण हातांतली तल्लूक गेल्ल्याची खंत जाली. तल्लुकेचेरूच तांचें पोट चलतालें. तल्लूक सांवकाळटकच, आळें सावळ करतकच चार पयशे हातांत पडटाले. नाल्लाक मरण नासले, चार नाल्ल विकुंकूय मेळटाले. चुडटांकूय बरी दर मेळटाली. तल्लुकेतले आंबे, पणस भुरग्यांच्या तोंडात पडटाले. आतां फुडें कशें जातलें हो प्रस्न फिलीसामुखार उबो रावलो. एक भिरांकूळ फुडाराचो हुस्को फिलीसाचें काळीज कोराथीत गेलो.

फिलीसा खंयूय दिसवड्याच्या वावराक वतालें. पूण वाडटे म्हारगायेमुखार हात मोटवे पडटाले. तांतले तातूंत भुरग्याच्या शिक्षणाचो खर्च दिसान दीस वाडतच आशिल्लो.

एक फावट अशेच आठ दीस खंयूय वावर मेळूंक नाशिल्लो. घरांत आशिल्लें-नाशिल्लें सगळें सोपिल्लें. त्या दिसा भुरगीं शाळेतल्यान भुकेनच घरा आयिल्लीं. पूण घरांत एक गोटोय नाशिल्लो.

"मांय, भूक लागल्या."

हात पांय धुले तरीय मांय वाडिना हें पळोवन एकल्यान हळूच आवयक सादयलें.

"बाय, मात्शी रावात हां. हांव तुमकां आडसरां काडून दितां."

फिलीसा झपझपीत घराफाटल्यान तेंकूनच आशिल्ल्या माडांचेर चडलें. दोन शियाळीं काडलीं आनी तशींच हातांतूच धरून तुरतुरीत देंवलें.

"मांय, दोनूच काडल्यात तुका नाका?"

"म्हाका नाका... हांव म्हज्या पुतांक फोडून दितां."

दुसऱ्याच दिसा पुलीस फिलीसाच्या दारांत हाजीर जालो.

"फिलीसा डिसौजा, तूं मुगो?"

"होय."

"तुवें फाल्यां सकाळीं धा वरांचेर पुलीस स्टेशनार येवपाचें."

पुलीस स्टेशनाचें नांव कानार पडटात फिलीसाच्या पोटांत हाल्लें. तरीय धीर करून ताणें विचारलें,

"कित्याक बाबा?"

"भाटकारालीं आडसरां चोरता मुगो तूं."

"भुरगीं भुकेल्लीं बाबा..."

"कितें सांगपाचें आसा तें फाल्यां पुलीस स्टेशनार सांग."

फिलीसा तशेंच रामागेर धांवलें. राम आंगणातूच आशिल्लो. सगळी गजाल फिलीसान ताच्या कानार घातली.

‘‘काल दोग पाडेकार दनपारचे पलतडच्या भाटांत वतना हांवें पळयिल्ले. सेर्त तांणी तुका पळयलां जातलें.’’

‘‘रामबाब, फाल्यां म्हज्या बराबर येतलो तूं. हांव केन्ना पुलीशेंत गेलां... बेश्टीच भिरांत दिसता.’’

‘‘कांय भियेनाका तूं. हांव फाल्यां जायचो ना.’’

तूं सगळें सांग सवकासायेन सांग तांकां.’’

फिलीसा स्टेशनार पावलें तेन्ना ताची भिवन गुळी जाल्ली. भाटकार आनी तिळवे पयलींच पाविल्ले. भिरांतेन फिलीसाक उतरां सारकीं फुटलीं नात. तरीय आपली परिस्थिती सांगपाचो तांणे यत्न केलो. पूण ताचें म्हणणें आयकुवपाक कोणूच तयार नाशिल्लो. पुलीसांनी फिलीसाक बरेंच धपकायलें. परत सांपडल्यार सोमतेंच भितर उडयतलें म्हणपाची धमकी दिवनूच ताका घरा धाडलें.

उपरान्त सदांच पुलीस स्टेशनाच्यो पांयऱ्यो आनी पुलीसांच्यो धमक्यो फिलीसाक सदच्योच जाल्यो. केन्नाय आपणेंच शिंपून व्हड केल्ल्या पणसाचो पणस खालो म्हण तर केन्नाय भुरग्यांनी आंब्याचीं घोटां काडली म्हण. तिळवे फिलीसाक सतावपाची निमित्त्यां सोदपाक लागिल्लो.

‘‘मांय, आमकां पुलीसाची भिरांत दिसता. आमी दुसऱ्या जाग्यार रावपाक या गे.’’ भुरगीं सांगतालीं.

‘‘खंय वोयतलीं पुता?’’

‘‘मांय, सगळ्यांगेर लायट आसा. आमगेरूच कित्याक ना गे?’’

‘‘आमी भाटकाराल्या भाटांत आसात न्ही...’’

फिलीसाकूय केन्ना दिसतालें, भुरग्यांक घेवन खंय तरी पयस वचचें. पूण वतलें खंय?... तिळवेन जीण नाका पुरो करून सोडिल्ली. आपल्या कुडीची आस्त ताच्या मनांत दिसान दीस वाडत आसा म्हणपाचें फिलीसाकूय जाणवतालें. आनी आतां तर तो वेंचणूक जिखिल्लो. ह्या नेटार तो कितें करत हें चिंतपाची लेगीत शक्त फिलीसाक नाशिल्ली.

घरा वयर मोटार थांबिल्ल्याच्या आवाजान फिलीसाची तनरी भंगली. जिणेंतल्या असाह्य यादीचें वजें पेलपाक शक्तूच उणी पडटाली. आंगणात येवन ताणें वयर रस्त्यार नदर मारली. तिळवेक पळोवन आपल्या पांयापोंदची भूंय हालता आनी खंयच्याय खिणांत भूंय फुटून आपूण तातूंत एकरूप जावपाक शकता अशें ताका दिसलें. दोन खिणांतूच तिळवे ताचे सामकार उबो जालो.

‘‘मेल्ल्या, म्हुज्या दारांत कित्याक येयला?’’

फिलीसान राग आनी तिडक ओखीत विचारलें.

‘‘हें घर तुज्या पायचें गो? घर नांवार आसा भाटकाराच्या.’’

‘‘नांवार कोरून घेयल्यार कितें जालें. म्हुज्या घोवानूच कश्टान बांदलोलें.’’

फिलीसाचो राग चडतूच आशिल्लो.

‘‘हांव वेंचणूक जिखला. आतां म्हज्या उतराभायर कोणाच्यानूच वचपाक जावचें ना. फाल्यांच धांवडावन घालतलो.’’

‘‘...’’

‘‘चल भितर या मगो. म्हाका ताकीत आसा. आयज खंयचो बॉस्त्यांव येता तो पळोवया.’’

तिळवेचें विचित्र हांसप फिलीपाचें मस्तक सणसणावन गेलें. इतलो वेळ तांचें उलोवणें निर्विकारपणान नियाळपी फिलीसाच्या चेडवांचेर तिळवेची नदर गेली.

‘‘हांकां दोगांकूय खंयूय धाड मुगो. नाजाल्यार आसूं दी. ताकांय शिकोवया. तुजे फाटल्यान तिवूय जाय पडटलीं म्हाका.’’

खिणांत फिलीसाची सहनशक्ती गळून खंयचे खंय नाच्च जाली. तें आपल्या सुवादीन उरलें ना.

चोरा, म्हज्या भुरग्याचें नांव घेता?’’

आंगणांत माटवाक खोवून दवरिल्ली कोयती फिलीसाच्या हातांत केन्ना आयली कळ्ळेंच ना. ताच्या आंगात चडिल्लो भार वाडतच आशिल्लो. खिणांत कोयतेचे असंख्य

घाव तिळवेच्या मानेर, भुजार मेळत थंय पडत रावले, नाय म्हणल्यार फिलीसाक विरोध करपाचो यत्न तिळवेन केलो. पूण फिलीसाच्या आंगांत संवरिल्ल्या अवताराक तो ओठापलो ना. तिळवेच्या तोंडातली किळांच भायर सरचे पयलींच न्हिवली. ताचो स्वास थंड पडलो तरीय आंगांत भार संवरिल्ल्या फिलीसाच्या हातातले कोयतेचे घाव ताच्या आंगार पडत रावले. पुराय आंगण रगतान भरून गेल्लें. फिलीसाची माथ्याच्या केंसासावन पांयांच्या नाकटामेरेन होळयेंत गाड तांबड्या रंगान खेळिल्ल्याची अवतिकाय जाल्ली. आवयचो हो अवतार पळोवन भुरगीं हुयेली मारून रडतालीं. पूण भिरांतेच्या आंकातान आवाज मात तोंडातल्यान भायर सरच नासलो.

बऱ्याच वेळान फिलीसाचो हात थांबलो. खीणभर आपल्या कर्तुबाचेर ताचो विस्वासूच बसलो ना. पूण खीणभरच हातांतली कोयती थंयच शेंवटून तें न्हाणयेंत धांवलें. मडकेतलें थंड किरांव उदक कितलोसोच वेळ मेरेन आंगार ओतीत रावलें. उदकाच्या थंडायेन कूड थंड जाली पूण मनांत मात असंख्य विचाराचे हुलोप भगभगताले. तशेंच ताकतिकेन तें घरांत धांवलें. बेगीबेगीन कपडे बदल्ले. भुरग्याचे कपडे, पुस्तकां एका बॅगांत भरलीं. कंड्यांत थोडे पयशे आशिल्ले ते गांठीक मारले आनी इल्लोय कळाव न करता भुरग्यांक घेवन तें वाटेक लागलें.

महिला संरक्षण आयोगाचें नांव फिलीसान केन्ना तरी आयकल्लें. आयज तांका जाता तितले बेगीन आयोगाच्या केंद्रांत पावपाचें आशिल्लें. मात्शें फुडें पावतकच फाटीं वळून ताणें निमणें फावट आपल्या घरार नदर मारली आनी भुरग्यांक हाताक धरून वादळाच्या वेगान फुडली वाट धरली.

... खंयच्च्या तरी चैतन्यमय अश्या अनाथ आश्रमांत आपल्या भुरग्याचें आस्तित्व स्वतंत्रपणान फुलिल्लें फिलीसाचे नदरेक झळकून गेलें...



# 3

# दिश्टावो

तुजी तीं उतरां खरीं आसत अशें सपनांत लेगीत दिसूंक नाशिल्लें. दर एका गजालीत फकाणां करपाची तुजी सवंय... हिवूय गजाल तूं फकाणांनीच सांगता अशें दिशिल्लें. फाटल्या पांच वर्सांच्या काळांत जिणेंत खूब कितें घडून गेल्लें. जायतें पळयलें आनी अणभवलें. तुजेविशीं रंगयिल्ली सपनां मातयेभरवण जावन गेल्ली. म्हजें मन जपपाचो यत्न एका खिणांतूय तुवें केलो ना. पूण हांवूच सगळे विसरिल्लें. तुज्यो चुको पोटांत घातल्यो. तुका केन्नाच अंतर दिलें ना. कसलोय आसलो तरीय तूं म्हजो आसा आनी एक दीस म्हजोच जातलो हेच भावनेन दीस सारतालें. म्हज्यो उमेदी आळवा पानावेल्या उदकावरी आसतल्यो अशें दिसूंक नाशिल्लें. तुजेखातीर जिणेंची विटंबना केली. तुजेकडल्यान अपमान सोंसून लेगीत तुजेविशीं आशिल्लो आदर केन्नाच उणो जालो ना. दिसतालें जें कितें घडटा ताका तूं जापसालदार ना. नियतीच म्हज्या मोगाची परिक्षा पळयता. नियतीच्या कितल्याच कठीण परिक्षेत लेगीत म्हजो मोगूच जैतिवंत जातलो म्हणपाचो हावेस काळजात आशिल्लो.

मोगाच्या दर्यांत जायत्यो बुचकळ्यो काडिल्ल्यो आनी इल्ली इल्ली ताची संवयूच जाल्ली. नशीबांत आसा तें चुकचें ना ह्या विचारान सगळे सोसतालें. पूण एक दीस येदें व्हड वादळ येतलें आनी दर्याच्या अंताचो दिश्टावो घडयतलें म्हणपाची कल्पना

नाशिल्ली. घडये कल्पना आसल्यार पयलींच तयारी करून दवरूं येताली. आयज इतलो विरस वांट्याक येवचो नाशिल्लो. नाय म्हळ्यार तुंवें कितलेय त्रास दिल्यार सोंसपाची मनाची तयारी दवरिल्ली. पूण आयज सहनशक्तीचो निमणो थेंबूय कुडींत उरूंक ना. भोंवन भोंवन दिसता, ह्या पांच वर्सांत एक खीण लेगीत तुंवें म्हजे मन समजून घेतिल्लें जाल्यार खूब जाता आसलें. म्हजेखातीर मोगान भरिल्लो एक शब्द लेगीत तुज्या तोंडातल्यान आयिल्लो जाल्यार हांव कितलें भाग्यवान हाचो दिश्टावो म्हाका घडपाचो. तुजेखातीर रंगयिल्लीं सगळीं सपनां काळावांगडा उडून वतलीं हाची जाणीव म्हाका कित्याक जावंक ना काय...

आमच्या पयल्याच मुलाखतीत तुंवें सांगिल्लें,

"आमचे धर्म जरी वेगळे आसले तरीय कांयच भिवपाची गरज ना. कसलोय तरी मार्ग जरूर मेळटलो."

तेन्ना सावन तूं फकत म्हजोच आसा हेच भावनेन जगलें. तुजेलागीं लज भीड धरिनासतना वागलें. घडये थंयच म्हजें चुकलें आसत. तुका जाय तें दिना जाल्यार तूं म्हजेर रागार जातलो म्हणपाचो भंय आशिल्लो. तुज्या मनासारकें जालें ना जाल्यार तूं म्हजेकडेन आडनदर करतलो ह्या दुबावान म्हजें मन मारून जगपाची सवंय करून घेतली. मनाचो आनी काळजाचो संघर्श सतत जाणवतालो. मन सांगतालें कोणायकडेन दाव्या दोळ्यान पळोवपी न्हय. तुजेकडेन इतलें मोव कित्याक पडलें... दुख्खाचे भाले जावन काळजाक तोंपपी तुजीं उतरां काळजाच्या पड्ड्यार कोरांतून दवरपाची कसली गरज. दुसऱ्याच खिणांत काळीज समजायतालें, तुजे आनी म्हजें नातें जल्मा जल्मांचें आसा. देखूनच तर तूं म्हाका मेळ्ळा. गरज पडल्यार म्हजो स्वास थांबोवन तुज्या स्वासांत विलीन जावपाक हांवें म्हजे जिणेचें सार्थक मानूंक जाय. तुज्या समाधानाखातीर म्हाका म्हजें मन मारचें पडले म्हण कांयच बिगडचें ना. म्हजो मोग तुका सामकोच पडमूर जावंक दिवचो ना म्हणपाचो हावेस आशिल्लो.

पूण केन्ना केन्ना सत्य लेगीत पेलपाभायलें आसता हाचो दिश्टावो पयलेच फावट घडलो.

"समाजान निर्मिल्ल्या ह्यो धर्माच्यो वणटी आमकां लग्नां उपरान्त कस्योच सुखान

जियेवंक दिवच्यो नात.''

खीणभर दिसलें खंयच्या तरी नाटकांतलो संवाद पाठ करून आयला आनी म्हाका म्हणून दाखयता.

''खंयच्या नाटकांतलो...''

पूण म्हजी उतरां भायर सरचे पयलींच तूं मुखार उलोवपाक लागलो.

''आमी येन्नाच वेगळी जाल्लीं बरी. लग्न जावप आमकां शक्य ना.''

तूं उलयत आशिल्लो. उतरां मात म्हज्या कानार पडच नासलीं.

''रजत, पुरो तुजी फकाणां. म्हाका चड फकाणां आवडनात.

दोन खीण तूं उलोवपाचो थांबलो. कितें उलोवचें तें येवजितालो आंसूये.

''हांव तुज्याच बऱ्याखातीर सांगता. तुका सगळे विसरचे पडटलें. प्लीज जें कितें घडलां तें भुरगेपणां समज आनी विसर सगळे.''

''म्हज्या पयल्या मोगाक हांव भुरगेपणां समजूं?''

''मोगांत एक सत्य आसा. पयलो मोग केन्नाच यशस्वी जायना.''

''मोग यशस्वी करप कोणाचेर आदारून आसा रे रजत...''

''प्लीज म्हाका समजून घे.''

इतलेंच सांगून तूं गेलो. मनांत परत एक दुबाव हींवूय तुजीं फकाणांच न्हय मूं... तूं म्हाका पयस करतलो हाची कल्पना करूंक लेगीत म्हजें मन तयार नासलें. तुवें म्हजेखातीर निर्मिल्ल्या मोगाच्या संवसारांत हांव इतलें एकरुप जाल्लें, दोळे धांपून चल्ल्यार लेगीत आपटचें ना म्हणपाची खात्री आशिल्ली. तुज्या स्वासाचेर हालपी म्हजें काळीज दर खिणांत तुजोच दिश्टावो घडयतालें आनी कितलेंय भयानक वादळ आयलें तरीय तुजें मोगाचें तारुं म्हाका तारतलें आनी सुरक्षीत पलतडी पावयतलें ह्या विश्वासान म्हजें मन बेफिकीर जियेतालें. खरेंच तुवें म्हजीं फकाणांच केल्यात आसतलीं. हांवें कितें वांकडें बी केलें ना मूं... घडये म्हजेर रागार जालो आसत. फोन करून विचारिल्लें बरें...

हांव तुका फोन करता. तुजी भयण फोन घेता.




“रजत आसा?” हांव विचारतां.

“ना”

“खंय गेला?”

“तूं कोण?”

“हांव ताची इश्टीण उलयता.”

“ताची सोयरीक जाल्या. चली पळोवपाक गेल्यात...”

म्हज्या हातांतलो रिसीव्हर सकयल पडटा. म्हज्या काळजांत तुवेंच रोयिल्लें मोगाचें झाड तुंवेंच मुळासकट हुमटावन काडलें. म्हज्या मोगाच्या उदकान ताका परत कोंब फुट्टलो म्हणपाचीय आस्त आता उरूंक ना. जिणेतले सगळे मार्ग एका खीणांत बंद जाले. उदेन्त्या सुर्याचें एक कीर्ण लेगीत नदरेक पडना जालें. तुजेबगर जगप म्हाका शक्य ना. जिणेंत फकत एकूच मार्ग उरला. जिणेच्या अंताचो थाव घेवपाचो वेळ आयला. जगपाची कसलीच आसक्ती ना. तुजेशिवाय ह्या संवसारांत दुसरो आसा तरी कोण... ह्या जल्मांत नासूं फुडल्या जल्मांत तुजो सांगात जरूर मेळटलो. ह्या विश्वासान ही जीण सोपोवपाची. ओंपल्या पांखांचेर पुराय विश्वास दवरून मळबांत हुस्क्यामेकळें उडपी सुकण्याच्या पांखांनीच ताचो विश्वासघात केल्यार ताका कोण आदार दितलो...?

तुज्या सांगातान वादळी दर्यांत भंयविरयत भोविल्लें. आयज त्याच दर्याचो थाव घेवपाची उमळशीक लागल्या. जे न्हंयचे देगेर बसून आमी वरांची वरां सारिल्लीं ते न्हंयेक आयज म्हजी दया आयल्या. ती म्हाका आपल्या वेगेंत घेवंक सोदता. तिच्या गोपांत एकरुप जावपाचो ध्यास म्हाकाय लागला. हांव न्हंयचे वटेन धांव घेता. तिचे देगेर आमी बसतालीं. ती सुवात निमणें एक फावट काळजात सांठोवन घेता. नकळटा न्हंय आपल्या उदकाचो खळखळ वाडोवन म्हाका येवकार दिता. तिच्या गोपांत विल्लीन जावपाक हांव मनाची तयारी करता...

पूण... म्हजें बळगे म्हाका सांगात कित्याक दिना... मनाची तयारी आसून लेगीत म्हजे कुडीची शक्त म्हाका फाटल्यान ओडून घेता. मरणाच्या गोपांत विल्लीन जावप इतलें

कठीण हाची जाणीव पयलेच फावट घडल्या. तूं म्हजे जिणेंत येत सावन मनाचो आनी काळजाचो संघर्श सतत चालूच आशिल्लो. ह्या खीणांत लेगीत तो चालूच आसता. म्हजें काळीज म्हाका सांगता, तुजे विरयत जगपाक कसलोच अर्थ ना. म्हजेमुखार म्हाका वेंगोवपाक तिश्टुवपी ही न्हंयूच म्हजें फुडलें जिवीत जावन आसा. दुसऱ्याच खिणांत म्हजें मन म्हाका सतावपाक लागता, जल्मान जल्म तुज्या सांगातान चलपाचो सोपूत हांवेंच घेतिल्लो. इतले बेगीन हांव म्हजो सोपूत कशें मोडटलें. तुवें म्हाका फटयलें, अशेंय हांव म्हणूंक शकना. तुवें म्हाका खूब कितें दिलें... संघर्श पेलपाची शक्त दिली. तुजेशिवाय जगप असंभव आशिल्लें पूण तें तुवेंच शिकयलें. सत्याचो दिश्टावो घडोवन तूं गेलो. म्हजी दया येवन म्हाका आपल्या गोपांत घेवंक आशेल्ले हे न्हंयचें उदक म्हजेखातीर एक खीणूय थांबूंक ना. म्हजी जिणूय ह्याच उदकावरी आसा. नकळटा हांव फाटल्यान वळून पळयता...

दिसाचो रखरख पेलून मंद जाल्लो सुर्या दोंगराच्या आडोसाक लिपतना म्हजे नदरेक पडटा...



# 4

# आपलींच... पूण परकीं....

नोकरी मेळून आयज दोन म्हयने जायत आयिल्ले. सद्दां यो वच करपाक नाका पुरो जातालें. म्हजे वांगडा आईकूय त्रास भोगताले. सची पयली बस धरची पडिल्ल्यान साडेपांचाकूच घरांतल्यान भायर सरचें पडटालें. येतना दोगांयचोय सांगात आशिल्ल्यान तितलोसो भंय दिसनासलो. पूण हांव बशींत चडटकूच तिका एकलेकूच घरा परतताना भिरांत दिसतालीच. हरशीं ती खूब धाडसी. पूण आतां पिराय जाल्ली आनी वाडटे पिरायेवांगडा भिरांतूय मनांत रिगिल्ली.

"तेंवूंच थंय एकटेंच रावता. ताचे वांगडा रावपाक कितें जाता?... तें कोण परकी मनीस.... थंय रावल्यार तुकाय त्रास नासले आनी म्हाकाय नासले."

आईचीं उतरां आयजूय हांवें आयकून आयकूनाशिल्ले वरी केलीं. भावान मडगांवां फ्लॅट घेतिल्लो. थंय वयनी वांगडा रावपाक मेळटालें. पूण थंय रावपाचो विचारूच मनाक पटनासलो. भाव आसल्यार वेगळी गजाल आसली. तो नोकरे निमत्तान फॉरेनांत आसतालो.

"सद्दां येवपा-वचपाचो खर्च म्हूण थोडो... रावल्यार तिकेटीची तरी चिंता नासली."

आईचें उलोवप चालूच आसलें. येवपा – वचपा खर्चाचीच तर व्हड चिंता आसली. पैंगीणसावन मडगांवा वचप – येवप म्हळ्यार दिसाक साठ रुपयांचेर येतालें. आई म्हूण सद्‌दां खंयचे दितली. इतले बेगीन पगार मेळत म्हणपाचीच आस्त नाशिल्ली. मडगांवां रावपाशिवाय दुसरो पर्याय ना हाची म्हाका जाणविकाय आशिल्ली. खंयूय रुम करून रावतलें म्हळ्यार भाड्याचें आनी जेवणाचें परवडपाचें नाशिल्लें. आईक दिसतालें, वयनी आसतना दुसरेकडेन रावपाची कसली गरज... पूण आपली मनशांय केन्ना केन्ना खूब परकीं जातात हें तिका खंय खबर....

परत परत दिसतालें वयनीन एक फावट तरी आपणागेर राव म्हूण सांगल्यार हांव व्हडा उमेदीन तिचे वांगडा रावता आशिल्लें. नोकरी मेळ्ळी त्याच दिसा तिका सांगपाक गेल्लें. हांव मुद्दाम जावन येवपा–वचपाक त्रास जातले म्हणपाची जाणविकाय तिका करून दितालें. दिसतालें सरळ विचारचें 'हांव तुमगेर रावूं?'... पूण म्हज्या स्वाभिमानी मनाक तें पटनासलें.

''नोकरी करतलें जाल्यार त्रास काडूंकच जाय.''

वयनीचे मम्मीच्या ह्या एकाच वाक्यान हांव समजुपाचें तें समजल्लें. घडये वयनीन तिका तशें सांगूंक लायिल्लें आसूं येता.

पूण आईचो त्रास पळोवनय म्हज्या काळजाक पीळ पडटालो. 'फुडल्या सप्तकांत रावता गे' अशें दर दिसा बेश्ठेंच तिच्या समादानाखातीर हांव तिका सांगतालें. तिचेवांगडा हांव म्हाकाय फटयता म्हणपाचें हांव पुरायेन जाणा आसलें. तरीय केन्ना दिसतालें, 'हांव थोडेच दीस रावता' अशें वनयीक सांगून तिचेवांगडा रावचें. उलयता तें आयकून घेवचें. सामकीच धांवडावन कांय घालची ना. आई ह्या दिसांनी सामकीच फाटीं लागिल्ली. म्हाका सद्‌दां सकाळी बस स्टॉपार पावोवपाचे त्रास ती कशीय काडत आशिल्ली. पूण तिकेटीक पयशे खंयचे दितली. भलायकी बरी नाशिल्ल्यान वावराक वचपाचेंय तिणें सोडून दिल्लें. भाव बरो जोडटालो. पूण लग्न जायत सावन केन्ना गरजेक पाविल्ल्याची याद जायना. आईन त्रास काडले म्हणूनच तर हांव म्हजें शिकप पुराय करूंक पावलें आनी आतांय तिका कशें त्रास दितलें...

''बाय फाल्यां आयतराक गेल्यार जातालें तूं.''

"हांव थंय रावल्यार तूं एकलीच उरची ना गे?"

"म्हजो कसलो हुस्को. उल्याक पावपी शेजारी आसात."

खीणभर दिसलें फाल्यां खरेंच वचचें. पूण म्हजें मन फाटीफूडें जातालें. जिणेंत गरिबीकडेन खूब संघर्श केल्लो. जिणेतल्या संघर्शानूच स्वाभिमानान जगपाक शिकयिल्लें. वेळा प्रसंगार हांवें आनी आईन उपाशी पोटार दीस सारिल्लें. पूण केन्नाच शेजाऱ्यांकडेन वा सोयऱ्यांकडेन कितेंय मागिल्ल्याची याद जायना. आपली मनशांय खूब परकीं आसतात हाची जाणविकाय वनयीच्या वागण्यांतल्यान खूब फावटी जाल्ली. पूण आयज स्वाभिमानी मनाकडेन समजवणी करपाचो वेळ आयला हाची जाणविकाय जावपाक लागिल्ली. येवपा – वचपाच्या तिकेटीच्या खर्चाक लागून तरी वयनीगेर रावपाबगर दुसरो पर्याय नाशिल्लो. फाल्यां आयतार म्हणटकच फाल्यांच गेल्यार बरें... परवां सोमाराक तशेंच शाळेंत वचपाक मेळटलें.

"आई, काकीगेर वचून येता गे."

"कित्याक?"

"वयनीक फोन करून फाल्यां येता म्हण सांगता."

शेजारचे शाली काकीगेर वचून वयनीक फोन केलो.

"हॅलो" वावराडेन फोन घेतलो.

"वयनी ना?"

"भायर सरल्या... कित्याक?"

"फाल्यां वयनी घरा आसतली? हांव फाल्यां येतलें म्हूण सांग."

"यो तूं... आसतलें तें घरा."

हांवें फोन दवरलो. मनांत बेश्टोच दुगदूग. वयनी मेळळ्यार तरी बरें जावपाचें. म्हजी तिका आडखळ बी जावची ना मूं?... फाल्यां हांव येवपाचें आसा देखून मुद्दाम आपूणच खंयूय भायर सरची बी ना मूं?...

आयतार आशिल्ल्यान बेगीनूच भायर सरलें. तरीय मडगांवां पावता म्हणसर

साडेपांच – स जालींच. बस स्टॅण्डार देवन वयनीच्या फ्लॅटामेरेन चलत वतना पावलां जड जावपाक लागलीं. हातांत धरिल्लें कपड्याचें बॅगूय बरेंच जड लागपाक लागलें. फ्लॅटा सकयलूच वयनीची वावराडी मेळ्ळी. तिचेवांगडा वचपाक मात्शें धाडस दिसलें.

एकांमेकांची अडेची वासपूस आनी तोंडार अडेचें हांसप. म्हज्या मनांत मात परकेपणाची, अनवळखी भिरांत. मनाचेर कसलें तरी अपरिचीत दडपण जाणवपाक लागलें. कितलेशेच प्रस्न मनाक आफडून गेले. परके सुवातेर परकी मनशांमदीं पावतकूच जी परिस्थिती मनीस अणभवता तशें कितेशें अणभवलें.

“न्हाता मुगो तूं?”

वयनीन बऱ्याच वेळान तोंड उगडलें.

“हय...”

“गरम उदक बी ना हां... गिजर सारको ना.”

हांव कपडे घेवन बाथरुमांत गेलें. थंड उदक न्हावपाची संवय आशिल्ली. तरीय वयनी निकतीच न्हावन गेल्ल्या गरम उदकाची उब बाथरूमांत तशीच आशिल्ली.

न्हावन जातकच हांव हॉलांत येवन बसलें. वयनीची मम्मी थंयच बसून आशिल्ली.

“फाल्यां वतलें मुगो तूं? आईक विचारलां म्हूण सांग.”

“कांय दीस हांगाच रावतलें म्हूण आयिल्लें...”

“तें आसचें ना हांगा. ताका फाल्यां घेवन वतां हांव.”

हांव समजुपाचें तें समजलें. कांय वेळ कोण उलयलो ना. म्हज्या मनांत मात गुन्यांवपणाची भावना. हांवें येवपाकूच नाका आशिल्लें. हीं आपलींच मनशां आसलीं तरी खूब परकीं आसात हाची जाणविकाय आईक पयलींच करून दिवपाक जाय आशिल्ली. वयनीच्या नकली स्वभावाची तिका खंय सुलूस आसा... खबर आसल्यार ती कशीच धाडची नासली. म्हजें म्हाकाच हांव गुन्यांवकारी कशें दिसलें.

“जेवपाचें करुया न्ही...” वयनीन जेवणाची याद केली.

“हांवें दनपरां आमचेखातीर ब्रेड घेतल्यात गो. ताका सकयल वचून घेवन यो म्हण सांग.”

“आसूं दी. नाका म्हाका दनपरां उसरांच जेविल्लें हांव.”

रातभर कसोच दोळ्याक दोळो लागलो ना. मनांत असंख्य विचार आनी दोळ्यांत दुकां. तळमळत रात सारली. फांतोड-जातकच वयनी उठपाची वाट पळयत हांतरुणार रावचें पडलें. रातीं जेवंक नाशिल्ल्यान भुकय बरीच लागिल्ली. बऱ्याच उसरां वयनी उठली, तिचे वांगडा हावूंय उठलें. बेगीबेगीन भायर सरपाची तयारी केली. हें कपड्याचें बॅग घेवन शाळेंत वचप... लज शी...

“वयनी, हें बॅग हांगा दवरूं? दनपरां शाळा सुट्टकच घेवन व्हरता.”

“हांव आसचें ना.”

“... येता हांव.”

विचारांच्या भारान मन हिसपाभायर जड जाल्लें. शाळेंत वचपाची मनस्थिती उरूंक नाशिल्ली. बस स्टॅण्डार सावन शाळेंत फोन करून पयलेच फावट रजा घेतली आनी घरची बस धरली जाता तितले बेगीन दोळ्यांत जडाविल्ल्या दुकांचो भार आईचें वेंगेंत रिगून ल्हव करपाचो आशिल्लो...



# 5

# ताची कथा

ताची ती कथा वाचत सावन मन सामकें बेचैन जालां. चित्त थाऱ्यार ना. ती कथा वास्तव आसत जाल्यार... निकतेंच मातयेत रोयिल्लें सुपूल्लें झाड वाऱ्याच्या नेटान पयस खंयतरी वचून पडचें तशें म्हज्या निकत्याच रंगयिल्ल्या सपनाचें जातलें. कथेंतली ती चली... खरेंच ताचे जिणेंत आयिल्ली काय...

एका म्हत्वाच्या कामाखातीर काल चार पांच वर्सां फाटलीं नेमाळीं वाचूंक बशिल्लें. अचकीत एका नेमाळ्यार ताची कथा दिसली. कथा वाचता वाचता म्हजें आंग इल्लें इल्लें थंड जाता हाची जाणीव जावपाक लागली. ती कथा परत परत कितले फावट वाचली हाचें भान उरूंक नासलें. कितलेशेच प्रस्न तकलेंत नाचपाक लागले. हरशीं म्हळ्यार ताच्यो कथा वाचपाची म्हाका खूब आवड. हांवूच ताचें पयलें वाचक. पूण हीच कथा तांणें म्हाका कित्याक दाखोवंक ना काय... खरें सांगचें जाल्यार ताच्या कथांचो मोग करतां करतां हांव केन्ना ताच्या मोगांत पडलें म्हाकाच खबर नाशिल्लें. केन्नाय तो म्हाका म्हणटालो,

"तूं चड मोग कोणाचो करता.. म्हजो काय म्हज्या कथांचो?..."

"दोगांयचोय तितलोच...."

''रागार जावचें ना जाल्यार एक सांगू...''

''सांग न्हय.''

''तूं म्हजेपरस म्हजेभितर आशिल्ल्या कथाकाराचो चड मोग करता.''

''सांगलें न्हय, दोगांयचोय तितलोच. दीप, तुज्यो सगळ्यो कथा म्हाका वाचूंक दी न्हय.''

दुसऱ्या दिसा तो कथांचो गट्टोच घेवन आमगेर आयिल्लो.

''हांवें आयजवेर बरयिल्ल्यो सगळ्यो कथा हातूंत आसात. तुका जाय तेन्ना वाच.''

त्याच दिसा न थांबता ताच्यो सगळ्यो कथा हांवें वाचून काडिल्ल्यो. पांच स वर्सा पयलीं नेमाळ्यात आयिल्ल्यो कथाय ताणें म्हाका हाडून दिल्ल्यो. पूण हेच कथेविशीं ताणें म्हाका केन्नाच कित्याक सांगूंक ना काय?

म्हजे पयलीं ताचे जिणेंत खरेंच कोण आयिल्लें आसल्यार म्हाका ताणें सांगपाक जाय आशिल्लें. ताका नकळटा हांवें ताचो मोग केल्लो. ताणें म्हाका खरें सांगलें म्हण हांव ताका कांयच म्हणचें नाशिल्लें. पूण ताणें ही कथा वास्तव आसल्यार म्हजेपासून लिपोवन दवरपाची न्हय...

घडये ही कथा काल्पनीकूय आसपाक शकता. पूण एक फावट ताणें म्हाका म्हणिल्लें, ''म्हज्यो सगळ्योच कथा वास्तव घडणुकांचेर आदारीत आसात.'' तशें जाल्यार हिवूय कथा वास्तवच तर... कथेंत ताणें बरयलां ''... आमच्या मोगाच्या आड हो समाजान निर्मिल्लो धर्म येवंक नाशिल्लो जाल्यार आयज मारिया म्हजें जाता आशिल्लें. मारियाक म्हज्या मनाची राणी करून ताच्या काळजाच्या गर्भकुडींत हांव राजा कसो जियेता आशिल्लो...''

ताचे कथेतलें एक एक वाक्य म्हज्या शिरांतल्या रगताचो एक एक थेंब गिळून घेतालें. ताणें केल्लें तें मारियाचें चित्रण भिरांतेचें भंयकर ल्हार म्हजेवटेन घेवन येतालें.

एका कथाकाराची बायल म्हण मिरोवपाचो म्हजो हावेस, म्हजी सपनां म्हाका भेश्टावपाक लागतात. सोसूं नज जावन सत्य कितें ते जाणून घेवपाखातीर हांव परत

एक फावट ताका फोन करता.

'हॅलो' दीप फोन घेता.

हेवूय फावट कांयच उलयनासतना हांव फोन कट करता. पूण तकलेंतले विचार कशेंच पयस वचनात. खिणांत ताची ती कथा हांव परत वाचून काडटा. साहित्य निर्मणीची नदर जरी म्हजे भितर नासली तरीय साहित्याचें वाचन खूब जाल्लें आसा. झाकून झांकून गांवकार जातात ते परी साहित्य वाचून वाचून साहित्यकाराच्या मनाचो थाव घेवपाची दृश्टी म्हजेभितर निर्माण जाल्ली आसा. ताची ती कथा वास्तव आसपाकूच जाय अशें म्हाका खोलायेन दिसपाक लागलां. कथेंत ताणें बरयलां, "... म्हाका मोग करूंक मारियान शिकयलो. मारिया दुसऱ्याचें जालां हें खरें मानपाक म्हजें मन कशेंच तयार जायना. फुडें म्हजें लग्न जालें जाल्यारूय म्हाका म्हजे बायले भितर म्हजें मारियाच दिसतालें.'

खरेंच ताचे नदरेतलें मारिया ताका म्हजेभितर दिसना मूं... तो म्हजो मोग करीना पूण म्हजेभितर मारियाक पळोवन ताचोच मोग करिना मूं... तशें जाल्यार ताचे नदरेत म्हजें अस्तित्व कांयच ना अशें जालें.

कथेंत निमणें ताणें बरयलां.... 'मारिया दुसऱ्याचें जालां. म्हजेंय लग्न जातलें. पूण एक दीस तरी मारिया परत म्हजे वेगेंत येतलें... आमी दोगांयनीय हातात हात घालून आनी दोळ्यांत दोळे घालून रंगयिल्ली सपनां पुराय करपाचो हावेस घेवन..."

म्हज्यान कशेंच सोसूंक जायना. एका खिणांत हांव मुळासकट हुमटून पडटलें अशें म्हाका दिसता. खरें कितें तें विचारूंकच जाय. म्हज्या फुडाराचो प्रस्न आसा. पावसाचो सोंस म्हण कोण विखारी पावसात भिजून आंगाची कात भाजून घेवचो ना. हांव ताका परत एक फावट फोन करता.

"हॅलो" दीप फोन घेता.

"दीप, तुका मेळपाक जाय आशिल्लें. फाल्यां सकाळीं आमगेर येवपाक शकतलो."

"फाल्यां कित्याक... आतांच येता..."

“फाल्यां सकाळीं यो.”

“कितें स्पेशल...”

“बरें. बाय.” हांव फोन दवरता.

रातीन दोळे कशेच बंद जायनात. फाल्यां हांव उठचे पयलींच दीप दारांत हाजीर जातलो. कशें विचारप?... ताची प्रतिक्रिया कितें आसतली?... एक न्हय असंख्य प्रश्नांच्या भोंवऱ्यात कितलो वेळ म्हळ्यार म्हजें मन घुंवत रावता. न्हीद पडना. आनी येवजितां येवजितां अचकीत एक वेगळोच प्रस्न मनांक आफडून वता. खरेंच हांव एका कथाकाराच्या मनाचो थाव घेवंक शकता... ताची ती कथा वास्तव आसा अशें हांव कित्यावेल्यान म्हणूंक शकता. तशें कितें ताचे जीणेंत घडिल्लें आसा असो दुबाव घेवप बरोबर जावचें ना. ताच्या लेखनाची तांक पळोवन ताका स्फुर्त दिवपाची सोडून हांव हीं कसलीं पिशेपणां करता... अखेर हांव एका कथाकाराची बायल जावपाची आसा. असले अर्थहीन विचार म्हाका कशे सोबत...

हळूहळू मन ल्हव दिसपाक लागता. केन्ना न्हीद पडली तें कळूच ना.

सकाळीफुडेंच दीप येता.

“कित्याक आपयल्लो?” ताचो प्रश्न

“हरशींच, तुजी याद आयिल्ली...”





# 6

# घराफाटलो आंबो

“बाबो, आंब्या झाडाक फुलां येतात.”

आपल्या पुताची उतरां आयकून आंगणात वताक उबो आशिल्ल्या राघोबान घराफाटल्यान नदर फिरयली. खरेंच, घराखोपीक तेंकून आशिल्लें आंब्याझाड निकतेंच चवरूंक लागिल्लें. दांडी मारिनासतना वर्सान वर्स फुलता तर... आपल्या आंब्याचें राघोबाक खीणभर कवतूक दिसलें.

“दंव पडून करपून वचों. आमच्या तोंडात पडपा ना.”

चुलीर पोळे भाजता आसतना राघोबाची बायल तापली.

“कितेंय जावं. आंबो जातीन फर्स्ट क्लास हां. न चुकता फुलता पळय.”

“तोरां लागतकच बरोऽ सांबाळ. पिकतकच येतली व्हरपाक.”

राघोबा कांय उलयलो ना. फाटलीं दोन वर्सां घोसांनी लागून लेगीत आपल्या पुताक एक सुद्धा आंबो चोखूंक मेळूंक ना हाची खंत राघोबाच्या तोंडार उदेली.

दोन वर्सां पयलीं पयलेच फावट आंब्याक चंवर फुटिल्लो तेन्ना सगळ्यात पयलीं राघोबाचो चेडो बाबूच्या नदरेक पडिल्लो. जणू कांय तो आंबो फुलपाची वाट पळयतच

आशिल्लो. दिसवड्याच्या कामाक सावन सांजे घरा परततकच ताणें बापायच्या हाताक धरून ओडीत आंब्या मुळांत व्हेलो आनी हात वयर करून आंब्याचे ताळयेर निकतोच फुटपी चंवराक बोट दाखयलें.

"बाबू फुलांक बोट दाखयनात हां. बोट दाखयल्यार आंबे जायनात. बेगीन बोट चाब."

आवयची उतरां आयकून बाबून बेगीबेगीन हात सकयल काडलो आनी बोटाक जोरान घांस मारलो.

"बाबो, बोट दाखयल्यार खरेंच आंबे जायनात रे."

बाबू बाबडो रडकुरो जालो.

"चुकून दाखयल्यार कांय जायना."

अदूं पोराक चार आंबे चोखूंक मेळटले. राघोबान आनी बायलेन मनांतल्या मनांत हिशोब केलो. आंबे म्हळ्यार बाबूचो जीव. आंब्या दिसांनी बाजारात गेल्यार आंब्याखातीर बाबूचो सदांच हट्ट. पूण चुकून लेगीत केन्ना एक तोर विकतें घेवन बाबूक हाडून दिवप राघोबाक जमलें ना. दिसाक दोन वेळचें जेवण मेळूंक मारामार थंय असल्या मोलादीक खाणाची रुच कशी परवडटली.

एक दीस घराफाटल्यान आपशींच किल्लें ल्हानशेंच आंब्या रोप राघोबाचे नदरेक पडलें.

"हांगा पारो कोणे उडयलो काय? बरेशें रोप जालां."

ताणे बायलेक म्हटलें.

"थंय आनी पारो कोण उडयतलो. पावसान खंयूय सावन व्हांवन आयला आसतलो."

"पारो बरो वाटकुळोच आसा. बरे जातीचो आसतलो."

राघोबान पांयानीच रोपा मुळांत माती ओडून उदक धरपाक आडस केलो.

"बाबू, तांबोभर उदक हाड रे."

बाबून हाडिल्लें तांबोभर उदक राघोबान रोपा मुळांत रकयलें.

“आयज सावन हाका विसरनासतना सद्दां उदक घालपाचें. घालतलो मरे बाबू. व्हड जातकच भरपूर आंबे लागतले.”

त्या दिसासावन रोप व्हड जायमेरेन सद्दां उदक घालपाचो नेम बाबून चुकयलो ना. राघोबानय रोपाची बरी वासपूस केली. रोप व्हड जाता तशें भोवतणी राखणेची वंय उभी जाली. राघोबा झाडाक वेळच्या वेळार शेण, माती घालतालो जाल्यार बाबू भाटांतल्या माडांक आळें सांवळ करतात तेन्ना हळूच मानायाची नदर चुकोवन माडामुळांत घातिल्लें बचकभर सारें आंब्या मुळांत हाडून घालतालो.

आंब्या झाडाक आयिल्लो पयलोच चंवर पळोवन तिगांकूय सुमाराभायर खोस जाली. त्या दिसा सावन आंब्याझाडाची अपुरबाय अदीक वाडली. बाबून चुकून पसून केन्ना झाडावटेन बोट वयर केलें ना. घरा फाटल्यान आशिल्ले पांयवाटेन भाटांत वावराक भी आयिल्ले मानाय यो वच करताले. फाटल्यान कोणाचोय आवाज जालो जाल्यार बाबू धांवत आंब्या मुळांत येवन उभो रावतालो. कोणूय आंब्याक बोट भी दाखयत ह्या भंयान...

“अंदू थंडी खूब पडल्या. आंब्याक बरी न्ही. फुलां करपतली.”

“हांवूय तेंच म्हणटालो.”

बायलेन उक्तायिल्लो हुस्को राघोबाकय जाणवलो.

“सद्दां सकाळीं उदक मारल्यार कशें.”

त्या दिसा सावन फुलांक कण फुट्टा मेरेन आंब्याचेर उदक मारपाचो घोव-बायलेचो नेम चालू जालो. बायलेन तळयेर सावन उदक हाडप आनी राघोबान आंब्याच्या चंवरांचेर चारूय वाटेनी शेंवटावप. उदका वांगडा चंवराचेर दाटिल्लो दंव सकयल पडटालो. कांय दिसांनी आंब्याक घे म्हणून कण आयिल्ले पळोवन राघोबान उमेदीनूच बायलेक म्हळें,

“उदक मारून बरें जालें हां. एक फूल करपूंक ना. अदूं खंयूय आंब्यांक फुलां धरूंक नात.”

''आंब्यांची म्हण चूक आसा. शीं आनी दंव पडिल्लोच आकांताचो.''

''आतां आंब्याक भंय ना. जातीन बरो जाल्यार पुरो.''

एक दीस सकाळींच राघोबाक सोदूंक आयिल्ल्या पांडूची नदर दिस्तूच आंब्याचेर गेली.

''आंबो बरो धरलो तुजो. पानां आनी दिसनात मरे.''

''पांडूमाम, नदर भी लागतं हां.''

राघोबाचे बायलेन हांसतूच म्हळें.

पांडू फाटल्यान घोव–बायलेक बेश्टोच दूगदूग.

''पांडूची नदर बरी न्ही. आंब्याक बादना जाल्यार पुरो. पिडा कशी दिस्तूच पावलो.''

''येतल्या वतल्याची नदर आसताच आंब्याचेर.''

''ती कोयती हाड पळोवया सड्यार वचून इल्लें करड घेवन येता.''

''बाबो, हांवूय येता रे.''

बापूय पुतान सड्यार वचून वरणभर करड हाडलें.

सांजेच्या आदेसाक दोंगायनी करडाचे दोन मनीस तयार करून आंब्याच्या दोनूयवटेनी उभे केले.

दीस वतात तशे आंबो घरांतल्याच मनशांमदलो एक घटक जावन गेलो. सकाळी उठकच आंब्याचेर नदर घातलेबगर तिगांकूय सूख लागना जालें. केन्नाय सकाळीं उठून राघोबा बायलेक सांगतालो,

''राती सपनांत कोणतरी तोरां काडून व्हरता.''

''म्हाकाय राती आंब्याचेंच सपन पडलें. मोड येवन अख्खो झाडूच हुमटून पडलां कशें.''

''पाड पडूं तीं सपनां. तोरां दिस्त खळांत घालपाची जाल्यार. चार काडून चेपणांत

उडयल्यार पावसाक तोंडाक उपकारतलीं.''

''पयलेच फावट आंबो लागला आनी खळांत घालपाची कसली वान्सा. तोंडाक कितेंय मेळत.''

फाटल्यान कसलो तरी आवाज जालो म्हण राघोबान आंब्यावटेन नदर फिरयली. पळयल्यार दोन तीन माकडांनी आंब्यार उडी घेतल्या.

''धर ऽ ताका... माकड पावले आंब्यार.''

बापायचो आवाज आयकून बाबू बोंवाळ घालीत आंब्यामुळांत धांवलो. बोंवाळान माकड आयिल्ले तशे परतले. पूण उडये सरशीं घोसांनी लागिल्ली कितलीशींच तोरां तुटून मुळांत पडली.

''बाबो कितली तोरां झडयली पळय.''

तिगांयचेय काळीज चुरचुरलें.

''मोर येवूं मेल्ल्यांचेर. फुलांक आसतनाच लागले बुड्डीपाक.''

''नदरेक पडलें तांच्या, आतां नेमान येतले. आंबो राखचो पडटलो.''

त्या दिसा सावन बाबूचो सांजवेळचो अभ्यास आंब्या मुळांतूच जावपाक लागलो. सकाळच्या आदेसाक बायलेचें लक्ष घरकामांपरस आंब्याचेरूच चड उरपाक लागलें. राघोबाय घरा आसल्यार आंब्याक पातयेना आसलो. गाड पांचव्या रंगाची वांटकुळींच घोसांनी लाबपी तोरां पळोवन राघोबाचो जीव धादोस जातालो. मेजून पांचश्यावयर तोरां मेळटली. राघोबान हिशोब केलो.

आंबे पिकपाची सगळ्यात चड उमळशीक बाबूक लागिल्ली. पिकिल्ले आंबे शाळेत कोणाक कितले व्हरून दितलो हें ताणें पयलींच सांगून दवरिल्लें. बाबून तोंड आंबट जायसर खावन उरिल्लीं तोरां विकल्यार चार पयशे हातांत येतले हाचो हिशोब घोव बायलेन करून दवरिल्लो.

आंब्या मुळांत साक पातळावन ताचेर बसून बाबू अभ्यास करतालो. ठप्प करून ताच्या म्हाऱ्यातूच पिको आंबो पडलो. अभ्यास थंयच सोडून बाबू धांवत

घरांत आयलो.

‘‘बाबो, पिको आंबो. आतां पडलो.’’

बाबून नाचत बापायक आंबो दाखयलो.

‘‘दाखय पळोवया.’’

आंबो हातांत घेतांच झाडपिक्या फळाचो सुरबूस वास राघोबाच्या नाकांत रिगलो.

‘‘पळयलां गो. बाबूक पिको आंबो मेळ्ळा. ती पाख्याक खोयिल्ली कोयती हाड पळोवया.’’

राघोबान कोयती पांयापोदां धरून आंबो कापलो.

‘‘गोड आसतलो हां.’’

भितयलो तांबडो भडक रंग पळोवन राघोबान अदमास घेतलो.

एक शीर कापून ताणे बाबूकडेन दिली.

‘‘ही पाख्यांचेर दवर. पयलो वांटो देवाक.’’

पयल्या फळाची रूच घेतना तिगांय धादोसलीं. आनीक सात-आठ दिसांनी आंबे काडपाचो निश्चेव राघोबान केलो.

दुसऱ्याच सकाळीं भाटकान्नीले दोन मानाय वयले वाटेन येतना राघोबाचे नदरेक पडले. एकल्याच्या खांद्यार कोगलें जाल्यार दुसऱ्याच्या हातांत राजू आनी चोबो आशिल्लो. राघोबाच्या मनांत दुबावाची पाल चुकचुकली. ते दोगूय मानाय आंब्या मुळांत येवन थांबले.

‘‘कितें पळयतात रे...’’

राघोबा खिणांतूच आंब्यामुळांत पावलो.’’

‘‘भाटकान्नीन आंबे काडूंक धाडल्यात.’’

राघोबाचे तकलेंत सण्ण जालें. खीणभर कितें उलोवचें कांयच समजना जालें.

रागान तकली सणसणली.

‘‘आंब्याक हात लावचे नात. आंबो राखपाक आमकां नाका पुरो जालां.’’

‘‘तूं भाटकान्नीक सांग. आमचेर कित्याक तापता.’’

‘‘तिणें धाडले देखून आमी आयले.’’ दुसरो मानाय उलयलो.

‘‘कोणे मेल्ल्यान कळयलें रे तिका. घरा बशिल्लेकडेन तिका कशें कळ्ळें आंबो लागला म्हण.’’ राघोबाची बायल तापली.

‘‘हें पळय, हांव आंब्याक हात लावंक दिवंचो ना.’’

मानाय चड कांय उलयले नात. आयिल्ले तशे परतले.

फाल्यां शेर्त भाटकान्न आपूण मानायाक घेवन येतली. राघोबाक दुबाव मारलो. आसल्यांक चड आस्त. भाटकार आसतना बरें आसलें. तो मुडकारांक दुखय नाशिल्लो. पूण ताच्या अचकीत मरणाउपरान्त भाटकान्न खऱ्या अर्थान भाटकान्नपण गाजोवंक लागली. मुंडकारांक सतावपाचो खंयचोय मार्ग तिणें सोडलो ना. खंयचेय ना खंयचेय निमित्त सोदून मुंडकारांचेर केशी करून राघोबा सारक्या पुलीसांचें नांव काडल्यारूच आंग काडपी मुंडकारांक पुलीस स्टेशन आनी कोर्टाची सपणां चडयली. मुंडकारांकडेन राखणेक आशिल्ली तल्लूकय तिणें काडून घेतली. आपले खोपटेक सामको तेंकून आशिल्ल्या आपणेंच वाडोवन व्हड केल्ल्या आंब्या रुखाचेरूच तिचो दोळो वचत अशें राघोबान चितूंक नाशिल्लें.

दुसऱ्या सकाळीं उठून राघोबान घराचे कडाशेक खोवोवन दवरिल्लो कोंडो भायर काडलो आनी कोगलें तयार केलें.

‘‘बाबू, आई आनी तूं दोगांय येयात रे.’’

चोब्यांक राजू बांदून कोगलें आनी चोबो घेवन तो आंब्यार चडलो. तिसेक आंब्यांनी चोबो चड जातकच ताणें राजवाक धरून सकयल देंवयलो. बायलेन रिकामो करतकच राघोबान परत वयर वडलो. इतल्यान वयलेवाटेन भाटकान्न दोन तीन मानायांक घेवन येता ती ताचे नदरेक पडली. भाटकान्नीक पळोवन राघोबाचे बायलेचेर आकांत आयलो.

“तूं तोरां घेवन भितर वच. हांव पळयतां तिका.”

आंबे तशेच पिशवेक गुठलावन घेवन ती घरांत धांवली.

“तुका कोणे सांगलां रे म्हज्या आंब्यार चडूंक.“

“आमी इतलो तेंप सांबाळला तो भाटकान्नी.”

“कोणाक सांगता रे तूं. भाट राखपाक म्हजो मानाय आसतना तूं कित्याक आंबो राखतलो.”

“हांवें रोयिल्लो तो भाटकान्नी.”

“भाट म्हजें. तूं चड उलयनाका. आतां वचून पुलीसाक घेवन येवूं.”

“भाटकान्नी आतांच चडिल्लो तो.” राघोबाची बायल आंब्यामुळांत आयली.

“तूं मर्दी उलयनाका. तुका तोरां घेवन घरांत धांवतना हांवें पळयलां.”

“मुंडकारांनी रोयिल्लें मुंडकारांनीच खावपाचें.”

“तूं म्हाका कायदे शिकयता. देंवता काय ना रे तूं... आनी तूं गे... काडल्यात तितलेय आंबे हांगा घेवन यो.”

“पोरान अजून एक तोर उस्टावंक ना.”

“म्हज्या चल्याकूय अंदू आंबे नात. खंयच आंबे लागूंक नात. चल रे, घरांत घातल्यात तितलेय आंबे घेवन यो.” भाटकान्नीन एका मानायाक फर्मायलें.

“मानाय येता तो पळोवन बाबू आंबे एका कोनश्याक घेवन बसलो.

“हांव दिवंचो ना. म्हाका जाय.” बाबू रडूंक लागलो.

“उठ रे, भाटकाराले आंबे चोरतात.”

मानायान बाबूक कडेक शेंवटिलो आनी तोरां पिशवी हाडून भाटकान्नी मुखार दवरली.

“इतलींच रे... आनी लिपोवन बी दवरूंक ना मरे.”

“ना. भाटकान्नी...”

“चडात रे वयर, बेगीन जावं दी,” भाटकान्नीन मानायाक फर्मायलें.

राघोबाक नाइलाजान सकयल देंवचें पडलें. मानायांनी एकान एक तोर सकयल देंवयलें. घराच्या आंगणात बसून तिगांय मोन्यानी सगळें पळयतालीं. तोरांनी, भरिल्लो आंबो नागडो बोडको जाल्लो. तांच्यानी पळोवंक नज जालो. फाटले दोन म्हयने आंब्याखातीर घेतिल्ले सगळे त्रास फुकट गेले. नाय म्हळ्यार पांचश्यावयर आंब्यातले पांच लेगीत आंबे राघोबाक दिवचे अशें भाटकान्नीक दिसलें ना. आंबे व्हेले म्हण हुंडक्यांनी रडपी बाबूक थारायतना राघोबाची बायलूय दोळे पुसताली. रागान राघोबाचें रगत सणसणपाक लागलें. जिवाच्या जाळान तकली तापली. खीणभर दिसलें, कोयती घेवन वच्चें आनी एकाएकाक हाणून घालचें. पूण भाटकान्नी मुखार तोंड उगडपूय शक्य नाशिल्लें. आनी भाटकान्नीन भाटांतलो धांवडावन घातल्यार संवसार घेवन वतलो खंय...?

दुसऱ्याय वर्साक आंबो तसोच भरघोस चंवरलो.

ह्या वर्सा राघोबान आंब्याची काळजी घेतली ना तरीय दोनश्यांवयर आंबे भाटकान्नीक मेळ्ळेच. आता आंब्याचेर नदर पडल्यारूय राघोबाची तिडक मस्तकाक वताली. मोड येवन आंब्याझाड अख्खेच हुमटून पडचें वा निदान जोगूल पडून करपून तरी वच्चें अशें ताका दिसतालें. आंबो न चुकता तिसऱ्या वर्साक परत चंवरलो तेन्ना फाटलीं दोन वर्सा भाटकान्न आंबे काडून व्हरतना जिवाक पडिल्ले जाळ परत ताजे जाले. कांय दिसांभितर आंबो खांदयेन खांदो चंवरलो. एके सकाळीं तांबयो घेवन मड्डेर सावन परततना रथ कसो चंवरिल्लो आंबो पळोवन राघोबाक भिरभिरी मारली. घोसांनी लागप आनी म्हज्या बाबून मात फकत तोरां पळोवन आंवडे गिळप... भाटकान्नीक आयतें मेळटा म्हण चड नेट चडला. अंदू पळयता कशी आंबे खाता ती... फाटल्या यादींनी आंगाक जाळांचो हुलोप पेटलो. तो रागासरशी आंब्या मुळांत आयलो आनी हाताक मेळटात ते चंवर मोडपाक लागलो.

शाळेंत वचपाची तयारी करपी बाबू बापायक पळोवन आंब्यामुळांत आयलो.

“बाबो, फुलां कित्याक मोडटा रे?”

“शूऽ बोंवाळ नाका. हे फुडें आंब्याक एकूच आंबो लागचो ना... केन्नाच लागचो ना...”

“मज्ज्या ऽ तर ! आतां भाटकान्नीक आंबे व्हरूंक मेळचे नात. केन्नाच मेळचे नात मज्जाच मज्जा...”

उमेदीन उडयो मारीत नाचपी आपल्या पुताक पळोवन राघोबाचेर भार आयलो. तसोच तो आंब्याचेर चडलो आनी हाताक मेळपी एकान एक चंवर मोडीत सुटलो...





7

# नशीब

ह्या पांच म्हयन्यांत मनांतल्या असाह्य संघर्शान जीण पोखरून उडयल्ली. सनीचे यादी बगर एक खीणूय वचना आसलो. मळबाचे उंचायेक भिडपी म्हज्या सपनांचे हावेस दिगंतरा शेणून गेल्ले. कुडींतलें चैतन्यूच ना जावन गेल्लें. दर एक खीण सोंपून सोंपना अशें दिसतालें. दुकांच्यो धारो व्हांवोवन दोळे गिमांतल्या सुक्या व्हाळावरी आटून गेल्ले. सनी बगर जगपांत कसलोच अर्थ ना हाचो दिश्टावो परत परत घडटालो. सोंसपाचे तांकी भायलें दुख्ख सनी दिवन गेल्लो. सहनशक्तीचो निमणो थेंबूय कुडींत उरूंक नाशिल्लो. सगलेंच परकी कशें दिसतालें आनी खरेंच आपलीं मनशांय परकी जाल्लीं. सनी विणें जिणेक फुडो करप खूब कठीण आसा हाची जाणविकाय म्हजें दुख्खान पोखरिल्लें अशक्त काळीज परत परत करून दितालें. एकदाची जीण सोपोवची आनी सासणाचो सनीचो सांगात जोडचो असो विचार मनाक कितल्याश्याच फावट आफडून गेल्लो. पूण पोटांत सनीचो अंश वाडटालो. ताचेखातीर तरी गळिल्ली शक्त एकवटावन सगळें समर्थपणान सोंसपाबगर दुसरो पर्याय नाशिल्लो.

नशीबान म्हजेखातीर कसलो खेळ रचून दवरला, नशीबाकूच खबर म्हणचें पडिल्लें. म्हज्या हातान कितें वायट घडिल्लें म्हूण येदो व्हड दुख्खाचो दोंगर म्हजेर कोसळ्ळो तेंच कळनासलें. अशें कितें घडत म्हणपाचें सपनांत लेगीत चिंतूंक नाशिल्लें. लग्नाक फकत

दोन म्हयने उरिल्ले. पुराय जिणूच सनीमय जाल्ली. नाय म्हणल्यार धर्म परकी आशिल्ल्यान जायते त्रास सोंशिल्ले. आमचो मोग घरच्या मनशांच्या मनांत रिगयता म्हणल्यार सनीक नाकापुरो जाल्लें. पूण अखेर आमच्या मोगाचेंच जैत जाल्लें. म्हज्या काळजाक दुख्खाची सावळीय दाखयनासतना ताणें दोगूय घरच्या लोकांचीं मनां जिखिल्लीं. सनीच्या घरांत मिसळटा कसलेंच परकेपण दिसनासलें. पूण म्हजेंच नशीब फुटकें थारिल्लें. सनीचे वेंगेत रिगून रंगयिल्लीं म्हजी सपनां सपनांच उरिल्लीं. नियतीन सनीक म्हजेपासून खूब पयस व्हेल्लो. पूण अतूट धाग्यांनी विणिल्ले आमचे जिणेंत सनी वतना एक अनमोल धागो जोडून गेल्लो. आपलो अंश म्हज्या पोटांत रिगोवन गेल्लो. घडये नियतीचेंच तें एक घडीत आसुंये...

सनी वांगडा सारिल्ले ते निमाणे खीणूच आता जिणेचो सांगात जावन गेल्ले. त्या दिसा आमच्या सदच्याच मेळपाच्या जाग्यार सनीन म्हाका आपयिल्लें. अचकीत मेळपाक आपयलें देखून मनांत दुबाव उप्राशिल्लो. वाट पळोवपाची म्होंवाळ व्यथा अणभवपाक लावप ही सनीची संवयूच आशिल्ली. पूण त्या दिसा मात वेळारूच पाविल्लो.

''सनी, अचकीत अशें कित्याक आपयलें?''

पूण म्हज्या प्रस्नाक जाप दिनाआसतना ताणें दुदफेण्यांची कास म्हजेमुखार धरिल्ली.

''कित्या खातीर?...''

''आयज सावन दुसऱ्याचो ट्रक चलोवपाचें बंद.''

''म्हणजे... तुवें...''

''हय, हांव चलयतालो तो पात्रांवाचो ट्रक हांवें घेतलो.''

खोशयेचीं कितलीशींच ल्हारां म्हज्या काळजाक आफडून गेल्लीं. खोशयेनूच हांवें सनीक वेंग मारिल्ली. सनी मिनाचो ट्रक चलोवपाक लागल्यार तीन वर्सां जाल्लीं. घरचे परिस्थितीक लागून शिक्षण अर्द्यारूच सोडचें पडिल्लें. म्हयन्याक मेळपी ड्रायव्हराचो पगार तसो संवसाराक पावतालो. आई आपले परीन संवसाराक हातभार लायताली. ल्हान भावाची शिक्षणाची जबाबदारी तितली आशिल्ली. दुसऱ्याचो ट्रक चलोवचे परस आपलो

स्वताचो ट्रको आसचो अशें सनीक सदांच दिसतालें. कितलेशेच फावटीं तो ते विशीं उलयतालो. आपूण चलयता तो ट्रक पात्रांव विकपाक सोदता म्हणपाचें सनीन कांय दीस पयलीं म्हाका सांगिल्लें. तोच ट्रक घेवपाची ताची तीव्र इत्सा आशिल्ली. पूण इतले पयशे कशे एकठांय करप होवूय प्रस्न आसलो. लग्नाकूय फकत दोन म्हयने उरिल्ले.

"सनी, पयशांचें कशें कितें?"

"आईचें थोडे भांगर घाण दवरचें पडलें. बाबाचे थोडे पयशे बँकेंत आशिल्ले. उरिल्ले हप्त्यांनी पाठोवपाचे."

"कांय आडमेळीं येवचीं नात न्हय?"

"तुवें भियेवपाची गरज ना. कांय म्हयने वतकच सगळें जाग्यार पडटलें. लग्नूय दबाज्यान जावंक जाय."

कांय खीण कोणूच कांय उलयलो ना.

"ए वगी शें..." सनीन आपले हात म्हजे भोंवतणी अदीक घट केले.

"नाका रे, कोणूय पळयत..."

"हांगा कोण पावना..."

उमेदीची गजाल आयकून भुरकुटून गेल्लें म्हजें मन सनीक विरोध करपाचे मनस्थितीत नाशिल्लें. तोवूय वेगळ्याच मुडांत आशिल्लो. मोगाचे अपरुप नशेंत विरगळिल्लें ताचें मन वेगळेंच कितें तरी सोदता असो दुबाव म्हज्या मनाक आफडून गेलो. सांजवेळचें सांवट पांगरूंक लागिल्लो तृप्त सैमूय आमच्या मोगाक नकळत सांगात दिता असो भास जातालो. पेट्टे मेणवातीचें मेण उज्यांत विरगळटा तशें हांव इल्लें इल्लें ताचे वेगेंत विरगळून वतालें. सनीन म्हाका आडवें घालें आनी भूल घाल्लेवरी हांव पुरायेन ताचे सुवादीन जालें. दोन कुडींचो तो अनमोल सुवाळो, शिरंतरां पेटोवपी तृप्त नशा. दोन मोगी काळजांचो सासणाचो एकवट. पुनवेचें चंद्रन्हाण विंगळ्या आंगार घेतिल्ल्याची अमुरपिकी खोशी. मळबांतल्या कापसावरी धव्याफुल्ल कुपांत लोळिल्ल्याचें अतूट धादोसपण. आंगांतली शिरान शीर तृप्त जातकच सनी उठलो. ताणेंच म्हजे विस्कटिल्ले कपडे नीट केले आनी म्हाका घट्ट वेंगेंत धरलें. कांय खीण मोन्यांनीच गेले. जें कितें अपरुप अणभविल्लें तेच

धुमेंत आमचीं मनां खोल खोल रिगिल्लीं.

"म्हजेर रागार ना न्हय ?"

सनीनूच उलोवपाक सुरवात केली.

"सनी, म्हाका भंय दिसता."

"भियेवपाची गरज ना. कांयच वायट घडचें ना..."

सनी असो कित्याक वागलो तेंच कळनासलें.

वास्तवतेची जाणीव जातकच दिसतालें, हांवें तरी ताका विरोध करपाक जाय आसलो. सदांच संस्कार मानून चलपी म्हजें मन अशें कशें वगी रावलें, तें एक कुवाडेंच आशिल्लें. मन खंती जाल्लें अशें न्हय, सनीचेर पुराय विश्वास आसलो. मोगाच्या दर्यांत केदेंय मोड आयल्यार लेगीत सनी म्हाका बेफिकीर तारतलो म्हणपाचो भावार्थ आसलो. पूण कितलेशेच विपरीत प्रस्न मनाक सतयताले. मर्यादा हुंपपाचें बळ म्हज्यांत कशें आयलें तेंच कळनासलें.

आयज जाणवता, नशीबाचेंच तें एक घडीत आशिल्लें आसुये. सनी वतना आपलो अधिकार घेवन गेल्लो आनी घडये एकटेपणान हांव सोंपचे न्हय म्हूण म्हाका सांगात दिवन गेल्लो. आपल्यो अनमोल यादी दिवन गेल्लो. पूण निकतीच आंकारूंक लागिल्लीं म्हजीं सपनां सपनांच दवरून गेल्लो. ताच्या मोगाच्या दर्यांत एकरुप जावन रंगयिल्ल्या सपनांच्या आदारान आता जीण जगप बगर दुसरो पर्याय उरुंक नाशिल्लो.

स्वताचे मालकीचो ट्रक घेवन खणीर वचपाचो तो ताचो पयलोच दीस आसलो. कितलो उमेदी आसलो तो... पूण नशीबान ताच्यो उमेदी आळवा पानावयल्या उदकांत लिपोवन दवरल्यात हाची जाणीव लेगीत नाशिल्ली. हरशीं तो जेवणाक बेगिनूच घरा येवपी. पूण त्या दिसाची उमेदूच आगळी आसली. जेवणाक मात्सो उशीर जाल्यार जावं, आनीक एक ट्रीप मारतलो अशें चिंतून ताणें ट्रक खाणीर देंवयलो. आनी दोन खिणांतूच घडिल्ले ते सैमीक आपत्तीन हेर पांच जाणां वांगडा सनीक आनी ताच्या ट्रकाकूय गिळून घेतलो. पळयिल्ले सांगतात, खणीचो अर्दो भाग कोसळून सकयल येता तेन्ना सनी ट्रकांतल्यांन उडी मारून जिवाच्या आकांतान धांवूंक लागिल्लो. पूण तो वयर

पावचे पयलींच पुराय खाण मातये भरवण जाल्ली.

म्हजें नशीबूच फुटकें थारिल्लें. दर खिणाक सनीचेंच रुप दोळ्यांमुखार येतालें. सनी सांगातान रंगयिल्ल्या मोगाळ सपनांच्यो आकृतायो म्हाका भेश्टायताल्यो. घरच्यांनी बळ दिल्लें. दुख्खाच्या चेपणांतलें सांवरपाक आदार दिल्लो. पूण तांचें वागणें अडेचें अशें दिसतालें. जें कितें घडलां ताचें तांकां भितरल्यान बरें दिसूंक ना मूं... असो बेश्टोच दुबाव येतालो. लग्नाक मान्यताय दिल्ली खरी, पूण मांय पुरायेन खोशी नाशिल्ली. नाय म्हणल्यार म्हज्या फुडाराचो तांकां हुस्को आशिल्लो. पूण म्हज्या सपनांचें तांकां खंय पडिल्लें....

मांयन म्हणिल्लें,

"इतलें मनाक लावन कित्याक घेवपाक जाय? चेडे कितें उणे आसात..."

आनी खरेंच म्हज्या काजाराची उलोवणीं चलतात म्हणपाचें कानार पडटालें. जाता तितले बेगीन म्हाका कोणाच्या तरी गळ्यांत घालपाची उमळशीक मांयक आनी डॅडीक लागिल्ली. सनीचें दुख्ख घेवन बसपाक तांकां वेळ खंय आशिल्लो... जल्मभर आंकवार रावपाचो म्हजो निर्णय मांयक उलोवन दाखयलो तेन्ना तिणें आंकांत केलो. म्हाका नानापरीन समजावपाचो व्यर्थ यत्न घरच्यांनी केलो. सनी पासून म्हाका दीस गेल्यात हें जेन्ना तांकां कळ्ळें तेन्ना आंकातान तांणी घर माथ्यार घेतलें. खंयचेय परिस्थितींत सनीचो अंश वाडोवपाच्या म्हज्या निर्णयान म्हाका म्हज्याच मनशांपसून परकी केलें. तांचें दुख्ख म्हाका समजतालें. चार चौगांमुखार तांची मान लजेन बागवतली म्हणपाचें समजतालें. पूण म्हजो निर्णय बदलपाचो नासलो. आनी तेच खातीर म्हजें घरूय म्हाका परकीं जाल्लें.

सगळे रस्ते बंद जातात तेन्ना खंयतरी वाट सांपडटा, तसें निमणें सनीचे आवयनूच पदरांत घेतलें. नशीबान म्हजेवरी तिकाय फटयिल्लें. फाटल्या पांच म्हयन्यांत दुख्खा बगर दुसरें कांयच अणभवूंक नाशिल्लें. मनांतलीं चितनां दिसासपनांच जावन उरिल्लीं.

"बायऽऽ..."

आईच्या उल्यान म्हजी तनरी भंगली.

“पुता, नशीबातलें चुकूंक आयलां?... अशें चिंतीत बसल्यार जिवाक त्रास करून घेतलें.”

मायेचे उबेन भरिल्ल्या आईच्या उतरां सरशीं हांव भानार आयलें. आई फाटल्यानूच उबी आशिल्ली. तकलेवेल्यान भोवपी तिच्या मायेच्या हातान चिंतनाचो भार खूब खूब ल्हव केलो अशें दिसलें...



8

# फिलयाद

सदचे संवयेन सारकी साडेपांचांकूच जाग आयली. रातीं दोळो लागूंक नाशिल्ल्यान तकली जड जाल्या म्हणपाचें जाणवलें. आयज सुटी काडिल्ल्यान आनीक थोडो वेळ हातूंळणार लोळत रावपाक हुसको नाशिल्लो. सुखामळार फांकिल्ल्या अमुरपिक्या हांश्याच्या सांगाता तानू सुस्त न्हिदिल्लें. आयज ताका उठोवपाकूय सदचे वरी त्रास जावचो नाशिल्लो. आयज ताचे शाळेचें गॅदरींग आशिल्ल्यान उठोवचे पयलींच उट्ठलें. गॅदरिंगाचे उमेदीन रातीं न्हिदपाकूय वेळ केल्लो. हांवें पुरो म्हणल्यार लेगीत कितलेशेच फावटीं म्हाका आपलो नाच परत परत करून दाखयिल्लो. नाचा खातीर खासा शिंवून घेतिल्लो लांबं ड्रेस घालून तानू सोबीत दिसतालें. साडे धा म्हणल्यार तयार जावन सभाघरांत पावल्यार पुरो आसलें. तानूच्या गॅदरिंगा खातीर म्हाका लीव घेवची पडिल्ली. मम्मान आनी पापान आपलो नाच पळोवपाक येवंकूच जाय असो हट्ट तानू म्हयन्या पयलींच धरून बशिल्लें. तानूची दर एक उमेद भागोवपाची हांव म्हजे परीन येत्न करतालें. पूण तानूच्या पापाचें मात विपरितूच आशिल्लें. ताका तानूचो मोग नाशिल्लो अशें ना. पूण ताचें वागप मन दुखयतालें.

रातीं उसरां मेरेन ताका समजावपाचो जायतोच यत्न केलो पूण सगलो व्यर्थूच. आमचे एकलेच अपुरबायेचे धुवेचे खोशयेचेर केन्नाच निराशेचें सांवट पातळपाक जायना

हे खातीर ताका नाना परीन समजावपाचो म्हजो येत्न चालूच आशिल्लो. पूण तानूचे उमेदी परस ताका ताचे फिलयाद जॉयलीचोच चड हुसको आशिल्लो.

'फाल्यां जॉयलीचो बर्थ डे. हांव कसोच पावचों ना.''

'गॅदरींग सोपतकच भायले भायर वच्चीं आमी.'

'बेगीन कशेंच सोंपचें ना. गॅदरिंगा उपरांत जेवणूय आसा.'

'सांजवेळा वचूंक जायना?'

'म्हाका जमचें ना. तूं घेवन वच तानूक.'

'आपल्या रगताची अपूरबाय ना. परक्यांचोच मोग चड.'

म्हजो आवाज मात्सो वाडलो.

'तुजी शाणेपणां आयकुपाक म्हाका वेळ ना. हांव कसोच पावचों ना.'

'तुका येवचेंच पडटलें. प्लीज फ्रॅडी. आमच्या तानू खातीर तरी... तूं येना जाल्यार ताची उमेदूच वतली.'

'आनी हांव वचना जाल्यार जॉयलीचो मूड ऑफ जावचो ना?'

'जॉयलीचो काय आनीक कोणाचो...?'

'तुजे कडेन वाद घालून म्हाका वेळ वगडावपाचो ना. फाल्यां बेगीन उठपाक जाय.'

चादर माथ्यावयल्यान घेवन तो म्हाका फाट करून न्हिदलो. ताका कितलेंय समजायल्यार तें उमथ्या कळश्यार उदकूच आशिल्लें. फाटलीं स सात वर्सां ताका समजावपाचो म्हजे परीन जायतोच यत्न केल्लो पूण कांयच फायदो जावंक नाशिल्लो. म्हजी गजाल वेगळी आसली. पूण आमच्या तानूचे खोशयेचो तरी ताणें विचार करचो अशें दिसतालें. पापाचेर ताचो जीव आसलो. ना म्हणल्यार फ्रॅडीक तानूचो मोग आशिल्लो. पूण आपल्या फिलयादाची खोशी ताचे खातीर तानूचे खोशये परस व्हड आशिल्ली.

काजारा पयलीं तो जॉयलीची अपुरबाय करता तें पळोवन दिशिल्लें, हो आपल्या

स्वताच्या भुरग्याचे खूब लाड करतलो. आनी देखून काजार उपरांत भुरग्यांचो विचारूच हांवें रोखडोच केल्लो. पूण घडलें मात विपरितूच...

फ्रॅडी कडेन काजार जावन हांवें चूक केली अशें आतां दिसपाक लागिल्लें. खोलायेन विचार करपाक जाय आशिल्लो. जॉयलीची तो अपुरबाय करता तें पळोवन म्हाका ताची लत्तुबाय दिसताली. पूण हे अपुरबाये फाटलें खरें कारण हांव समजूंक शकलेंना हाचेंच वायट दिसतालें. कितलेशेच फावटीं तो तोखणायेन सांगतालो,

'जाणा तूं, जॉयलीक लागुनूच आमी मेळपाक शकलीं.'

जॉयलीच्या बातिज्माक म्हजे आण्टीन फ्रॅडीक पळयलो आनी आमची सोयरीक जुळोवन हाडिल्ली. आमच्या नशिबान आमी मेळिल्लीं. ताचें श्रेय जॉयलीकूच दिवप हें मातशें वायट दिसतालें.

'हे विशीं मॅगनाक सांगपाक जाय.'

'ताका कित्याक ?' जॉयली व्हड जातकच जॉयलीकूच सांग.' हांव रागान म्हणटालें.

'फ्रॅडी, म्हाका मॅगनाचो स्वभाव मात्तूय आवडना. स्वताक व्हडलें समजता.'

'हय न्हय.. आसा मात येदेंशें बेबी कशें...'

तो फकांडांनी म्हणटालो.

आयज दिसता, ताचें फकांडेर उलोवप हांवें सामकेंच फकांडांनी घेवपाचें न्हय. ताचे वागणुकेचो दोट्टी अर्थ म्हाका कसो समजलोना हाचेंच वायट दिसतालें. आयज सगळें समजतालें. पूण आयज खूब उशीर जाल्लो.

खरेपणीं फिलयाद आनी पोदोन मोदोन हांचें नातें खूब सुंदर. पोदोन मोदोन हीं दुसरीं आवय बापूय. फिलयादाक आपल्याच भुरग्यावरी मोग दिवप हें पोदोन मोदोनीचें कर्तव्य. पूण हें नातें म्हजे जिणेंत व्हड प्रस्नचिन्न जावन उबें आशिल्लें. दर खिणांत दिसतालें, सगळें सोडून खंय तरी पयस वच्चें. पूण तानूक लागून कसलोच निर्णय घेवपाक शकनासलें. मन भितरले भितर घुस्मट्टालें. तानूचें कवळें मन दुखावता हाचेंच चड वायट दिसतालें. ह्या नाजूक वयांत ताचेर वायट परिणाम जावचो न्हय हाची हांव

म्हजे परीन पुरायेन जतनाय घेतालें. पूण फ्रॅंडी नाना परींन समजावनूय कसोच समजना आसलो. रगताच्या नात्या परस धर्मान निर्मिल्लें नातेंच ताचेखातीर व्हड आसलें.

रातीं न्हिदतना मनांत एक निश्चेव करून न्हिदिल्लें. आयज खंयचेय परिस्थितींत फ्रॅंडीक तानूच्या गॅदरिंगाक व्हरपूच. हें अशेंच फुडें चलपाक फाव ना. कशेंय तरी फ्रॅंडीडें मन बदलपाकूच जाय. म्हज्या आनी तानूच्या फुडाराखातीर तरी फ्रॅंडीक घट्ट धरपाक जाय. आयज ओग्गी रावलें जाल्यार फुडें खूब खूब उशीर जातलो.

सकाळीं च्या घेतनाच हांवें विशय काडलो.

'फ्रॅंडी, तुका तानुच्या गॅदरिंगाक येवचेंच पडटलें.'

'एक फावट सांगल्यार समजना काय कितें तुका...? हांव कसोच पावचों ना.'

'बेगीनूच भायर सरून तशींच बर्थ डेक वच्चीं.'

'म्हाका बेगीन पावपाक जाय.'

'कसलो बापूय तूं, अपूरबायेचे धुवेचे खोशयेचें मात्तूय पडूंक ना तुका.'

'पापा प्लीज यो रे. तूं येना जाल्यार हांव नाच करचेंच ना.'

'पापा येतलो आनी तूं नाच करतलेंच.'

हांवें तानूक समजायलें.

'पापा बेगीनूच या आं.'

'मम्मा येतली तुजे बराबर. हांव आयज पावना.'

'पापा प्लीज रे. तूं बी यो.'

'तानू रडूंक लागलें.

'प्लीज फ्रॅंडी ताचे खोशये खातीर तरी... ताका रडय नाका.'

'...'

'तुजे वांगडा काजार जालें तीच चूक जाली म्हजी. कितल्यो सोयरिको येताल्यो

म्हाका. खंयूय सुखान आसपाचें. म्हजें सोड, तानूचेंय पडूंक ना तुका. आपणाल्याक रडय आनी परक्यांक माथ्यार घेवन नाच.'

'फिलयाद परकी नासता.'

'हांव दुदाचें भुरगें न्हय. सगळें कळटा म्हाका. आयज कितें तो निर्णय जावं दी. तुका आमी जाय काय तीं परकीं सोयरीं... आयज कितें ते ठरोवचेंच पडटलें.

'म्हाका धमकी दिता तूं. तुका जाय तशें कर. हांव म्हाका जाय तशेंच करतलों.'

आवाज वाडत वतालो. अशीं झगडीं आतां सदचींच जाल्लीं.

'सुखान कितेंय खावपाकूय केन्ना मेळना.'

तो च्या अर्दी सोडूनूच उठलो. दोन खिणांभितर तयार जावन भायर सरलो.

'पापा, गॅदरिंगाक यो रे, ना जाल्यार हांव नाच करचेंच ना.'

तानू रडत ताचे फाटोफाट धांवत भायर गेलें आनी तानू फाटोफाट हांवूय... आमकां पळय लेगीत नासतना तो तडक गेलो.

'मम्मा, पापाक म्हजोय पाद्रीन करपाचो न्ही.'

रडपी तानूक वेंगेंत सांसपितना हांव म्हजींय दुकां आडावंक शकलेंना.



# 9

# साविया

ह्या दिसांनी सावियाचोच विचार परत परत तकलेंत घुंवतालो. नाय म्हळ्यार ताच्या विचारासरशीं जिणेक एकेतरेची अस्वस्थकाय जाणवताली. साविया अशें कित्याक वागता तेंच समजना आसलें. ताका लागून आमकां उणेंपण भोगपाक पडटालें. पूण ताका मात ताचें कांयच पडूंक नाशिल्लें. सावियाचें काजार म्हज्या धाकट्या देराकडेन जायत सावन फाटलीं दोन वर्सां सावियान मान मर्यादेन संवसार चलयिल्लो. मायकलान काजारा पयलींच वेगळें घर बांदिल्लें. म्हाका आनी सावियाक तशें एका घरांत रावपाची संद मेळ्ळी ना. घडये वेगळीं आशिल्ल्यान आमचे मदीं इल्लें चडूच बरेंपण आशिल्लें आसूं येता. आमची सांसू मांय केन्नाय म्हणटाली,

‘एकठांय रावन झगडपा परस खेरीत रावन मोगान जियेल्लीं बरें.’

पूण साविया दोन वर्सांय बरेंपण दवरपाक शकलें ना हाचेंच वायट दिसतालें. परत परत दिसतालें, सावियान अशें करपाक नाका आशिल्लें. ताच्या ह्या वागणूकेक लागून आमच्या नात्यामदीं दुराय निर्माण जाल्ली. आनी सावियाय आमचे पसून जाता तितलें पयस रावपाचो यत्न करतालें. काजार जालें तेन्ना मोगान आनी मर्यादेन वागपी साविया इतलें कशें बदल्लें हाचेंच अजाप दिसतालें.

‘देवान ही पाडी बुद्द ताका कित्याक दिली काय...’

सांसूमांय देवाक शिणटाली.

सावियान मायकलाच्या एका इश्टाकडेन अनैतीक नातें जोडलां ही गजाल आतां लिपून उरूंक नाशिल्ली. कोणाचीच पर्वा नाशिल्लें वरीं तेंवूय बिनदास्त ताचे वांगडा भोंवतालें. ताणें लज सोडिल्ली. पूण आमकां तकली वयर काडून भोंवपाक लज भोगताली. एका परकी मनशाक लागून लागींच्या कितल्याश्याच मनशांक सावियान पयस केल्लें. केन्नाच कोणाकडल्यान कसलेंच वायट उतर आमच्या घराण्यान घेवंक नाशिल्लें. इतल्या वर्सांची आमच्या घराची मर्यादा सावियान काडिल्ली. शेजारीं आमकां पळोवन मुद्दाम उलयतालीं.

'चार दीस घरच्यांक वयर सकयल केलें. आतां खंयचेकडेन कांयच ना.'

'चार दिसांचोच शो तो. सुनेची बरीं व्हर्रा सांगताली.'

'आतां कोणाकच लागीं करना. घरचीं सोड, शेजारी लेगीत दुश्मान जाल्यात.'

'म्हाका ताची चिन्नां पयलींच धड दिसूंक नात.'

'घोव लाखांनी पयशे धाडटा ते दोळ्यार येयल्यात. ते थंय त्रास काडटात आनी बायलो हांगां मजा मारतात.'

हांव शेजान्नीचेर तिडकलें. पूण म्हजें म्हाकाच वायट दिसलें.

''उलयतल्याचें तोंड आमच्यांनी धांपपाक जाता. आमच्याच मनशाची चाल वांकडी... दुसऱ्याचेर तिडकून कितें उपेग.'

मांयन म्हाका आनीक उलोवंक दिलें ना. शेजान्नूय आनीक रावली ना.

सावियाकडेन उलोवचेंच पडलें. हांवें सांगल्यार घडये समजत अशी आस्त आतां मांयचे वांगडा म्हाकाय दिसपाक लागल्या. ताका मेळ्ळे बगर मन शांत जावचें नासलें. नशीबान इतलो जोडकार घोव मेळ्ळा. स्वभावानूय शांत आनी समजिकायेचो. ताका फटोवन ताच्याच इश्टाकडेन अनैतीक संबंद दवरपाची पाडी बुद्द सावियाक कशी आयली हें जाणून घेवपाकूच जाय आसलें. लोक उलयतात तें आयकूंक नज जातालें. आनी एकेवटेन सावियाची तिडकूय येताली. बेश्टेंच दिसतालें, लोक आमकां पळोवन मुद्दाम उलयतात.

फाल्यां कशेंय करून ताच्या घरावचून हे विशीं ताका विचारपूच हांवें मनांतल्या मनांत निशेच्व केलो. घरा आसता काय खंय हेडटा कोण जाणां... फोन करून कळयल्यार बरें. हांवें सावियाचो नंबर घुंवडायलो.

‘हॅलो’ दादल्याचो आवाज

घरांतूय घेवन रावपाक लागलें तर... जनाची ना ती ना मनाचीय लज ना...

‘हॅलोऽऽ’ कोण उलयना तें पळोवन परतो आवाज दिलो.

‘साविया आसा?’

‘कोण तूं?’ म्हज्या प्रस्नाक जाप दिना आसतना ताचो प्रस्न.

‘हांव जाव ताची.’

‘न्हावता तें. कितें रकाद आसा?’

‘हांव फाल्यां सकाळीं येतलें म्हण सांग. खंयूय भायर सरपाचें आसल्यार म्हाका कळोवपाक सांग.’

हांवें फोन दवरलो. मन चडूच अस्वस्थ जालें. सावियान अशें करपाक नाका आशिल्लें. घोव थंय त्रास काडटा आनी हें हांगा मजा मारता. आपणाक जाय तशी जीण जगपाचो अधिकार दर एकल्याक आसता. पूण लोकांची शी थू घेवन जगिल्ली ही कसली जीण... लोकां वांगडा जगतना बंधना मर्यादा सामकींच तोडून उपकारना. इतलें शिकिल्ल्या सावियाक हें कशें समजना ताचेंच वायट दिसतालें. फुडें केन्ना तरी साविया जिणेंत शेवटलें. परक्याक कितलोय आपलो केलो तरीय निमणें परकी हो परकीच आसता. तो आपल्या मनात सुवात घेवंक शकना, हें सावियाक एक दीस समजतलें. पूण तेन्ना खूब वेळ जाल्लो आसतलो. घडये तेन्ना आपलो मनीसूय पयस गेल्लो आसत.

दुसऱ्या सकाळींच सावियाक मेळपाक गेलें. साविया बंगल्या भायरूच उबें आशिल्लें. घडये म्हजीच वाट पळयतालें आसूं येता. नदरेन नदर मेळटकच अडेचें हांसलें. म्हाका भायलेभायर परतिपाचो ताचो बेत आसा हें समजूवपाक म्हाका वेळ लागलो ना.

'साविया, तुजेकडेन उलोवपाक जाय.' म्हज्या मनांतलो राग न कळत उतरांनी जाणवलो.

'यो बस तर.'

'हें कितें चलयलां तुवें. लज म्हणटात ती सामकीच विकली?... जनाची ना जाल्यार मनाची तरी लज आसपाक जाय. सामकेंच निर्लज कशें जालें तूं...'

'तूं येता म्हण सांगना बराबर कळिल्लें म्हाका हेंच विचारपाक येतलें म्हण.'

'आमचो घरच्यांचो तरी विचार कर.'

'तुमी पोसनात म्हाका.'

'घोव पोसता मुगो. मागीर ताचेकडेन कित्याक हीं फटींगपणां.'

'म्हजें मन कोणाकूच कळचें ना.'

सावियाचे दोळे खिणांत ओले जाले. तें इतलें भावनीक कित्याक जालें तेंच म्हाका समजना जालें. खीणभर कितें उलोवचें तेंच कळ्ळें ना.

'रडटा कित्याक तूं?... रडून कांय उपेग ना. असल्यांनी एक दीस तूंच त्रासांत पडटलें.'

'हांव आनीक कितें करूं. म्हाका म्हण मन, काळीज ना काय कितें.'

ताच्या उलोवपाचो म्हाका अर्थ लागना जालो. पूण तें कितें तरी वेगळे सांगूंक सोदता म्हणपाचें समजलें.

'साविया, सांग म्हाका सत्य जाणून घेवपाकूच जाय.'

'तुका घडये कळचें ना. काजार जावन पंदरा दिसां पयलींच मायकलाक सिर्विसेक वचचें पडलें. पांच वर्सां पयलीं ताका कशेंच परत येवपाक मेळना. दोन वर्सा जालीं. आनीक तीन उरल्यांत. कितलो तेप म्हण हांवें एकटें रावप. म्हाकाय भावना, काळीज आसा कांय ना...? स्वताक आवडावपाचो जायतो यत्न केलो पूण आडावंक शकलें ना.'

हांव सावियाक पळयत उरलें. उतरांच फुटना जालीं.

‘पूण हें सगळें मायकलाक कळटकच कितें जातलें जाणां तूं?’

‘ताका कशेंच कळचें ना. हांवें ताका पुराय म्हजे सुवादीन करून दवरला. कोणेय कितेंय सांगल्यार ताका ती फटूच दिसतली. आनी तुका दिसता, तो थंय पांच वर्सां सुखे आंवडेच गिळत रावतलो?’

म्हजे कडेन जाप नाशिल्ली.

‘आनी मायकल येतकच.’

‘तो येतकीर हांव ताचेंच. दोन म्हयन्याखातीर... ताचे परस चड कांय ताका रावंक मेळचें ना.’

‘साविया, गरजे प्रसंगाक निमणें आपलींच मनशां पावतात. आमचेकडेन कित्याक इतलीं वायटपणां करूंक जाय आसलीं?’

‘म्हाका कोणेंच प्रस्न करचो न्हय म्हणून...’

म्हजेकडेन आनीक प्रस्न नासिल्लो. हांव तशेंच ताच्या बंगल्यातलें भायर सरलें. सावियानूय आनीक जाप काडली ना. अस्वस्थ मन चडूच अस्वस्थ जालां म्हणपाचें जाणवलें...

●●●





# 10

# विपरीत

सपनांतली बडबड आपल्याच कानार पडून कायतानाक जाग आयली. शियांच्या कुडकुड्याचे दीस आसुनय सगले आंग हुमेन चिप्प ओलें जाल्लें. भिरांतेची शिरशिरो आंगांत रिगून काळीज एक सारकें धडधडटालें. म्हातारपणान अशक्त जाल्ले कुडीक भरिल्लो कडकडो कसोच थांबना आसलो. दोन दीस जाल्ले. रातीन मात्सो दोळो लागल्यार कितलेशेच फावट तेंच सपन पडटालें. तळबांदच्या खणीचे एके कुशीक उबारेर आशिल्लो तो मळबाचे उँचायेक भिडपी रुमडीचो रुख. रुखामुळांत राखणदाराच्या रुपांत आशिल्लो तो तांतया आकाराचो काळो कुळकुळीत पाशाणी फातर. आनी फातरा भोंवतणी उबी आशिल्ली राखणदाराची अस्पश्ट शी आकृताय आनी ताच्या हातांतल्या दांड्याची खळखळ कायतानाच्या कानार पडटाली आनी तो कडकडून जागो जातालो. आतांय तशेंच घडिल्लें. भिरांतेन कुडीक भरिल्लो कडकडो अजून थांबूंक नाशिल्लो. कुशीकच ताचो चेडो बाबूश सुस्त न्हिदील्लो. कायतानान कांबळ घट्ट आंगां भोंवतणी गुटलायली. तरीय कडकडो थांबनासलो. ताळो सुकिल्लो. तसोच सांसपीत सांसपीत तो रांदचे कुडीत गेलो. उदकाचे मडके वेलो पेलो हाताक आपटून जमनीर शेवटलो.

'पायऽऽ'

आवाजान बाबूश जागो जालो.

'बाबा, न्हीद तूं. उदक पियेतलो म्हुणल्यार पेलो खाला पडलो.'

काळखातूच कायतानान पेलो सांसपिलो. घटघटीत उदक पिलो. जिवाक मात्शी थाकाय मेळ्ळी अशें जाणवतकच तो परत हांतूरणार येवन आड पडलो.

'पाय, कितें जालें?'

'कांय न्हू... एक पाडेलें सपन पोडलें. जाग्याचो दिसलो...'

बाबूश कांय उलयलो ना.

दोन दीस जाले कायतानाचें चित्त थाऱ्यार नासलें.

राखणदारांचे सुवातेर बुल्डोजर घालीत सावन एक अतूट भिरांत ताच्या काळजांत रिगिल्ली. कितल्याश्याच पिळग्याचें राखणदाराचें सत्वूच ना जावन गेल्लें.

खणीचे कुशीचें तें राखणदाराचें स्थान जणू एक भाव स्थानूच आशिल्लें. खाणीर काम करपी लोकांचो राखणदाराचेर भोव भावार्थ. खणीर काम करपी दर एकलो हिन्दू जावं किरिस्तांव राखणदाराक पांया पडले शिवाय वावराक सुरवात करिनासलो.

दर स म्हयन्यांनी जाग्याच्याक सोरो रोंट दिवन आनी वर्साक कोंबो दिवन खणीर वावर करपी लोक राखणदाराचो मान राखताले. जाग्याचो सोरोप कितलेशेच फावट नदरेक पडटालो. पूण केन्ना कोणाक कांयच वाट करिनासलो. राखणदारा म्हऱ्यांत कसलेंच भशटपण जावंक जायना हाची जतनाय खाणीर काम करपी दर एकलो घेतालो. बायलां म्हयन्याचीं आसल्यार ते वटेन वचना आसलीं. खंयचोय किरिस्तांव कामगार दुकराचें मास जेवणाच्या दब्यात घालून केन्नाच हाडिना आसलो.

कायतान बारा वर्सांचो आसतना हे मीनाचे खणीर वावराक लागिल्लो. आयज सुमार चाळीस वर्सां जाल्लीं. दर दिसा सकाळीं राखणदारा म्हऱ्यांत खुरसाची कुरू काडून मागणें करप आनी उपरान्त वावराक हात घालप हो ताचो दिनक्रमूच जाल्लो. पूण फाटले दोन दीस ताचो हो क्रम चुकिल्लो. राखणदाराचें आस्तित्वूच ना जावन गेल्लें. शेकानशेक पातळून आपलो विस्तार वाडयत आशिल्ले खणीन ती सुवातू गिळून उडयिल्ली. लोकांच्या भावार्थी काळजाकूच वेर गेल्ली. नांय म्हळ्यार राखणदाराक वाठावपाचो यत्न कायतानान आनी हेर कामगारांनी केल्लो. पूण निमणें तांच्या मनांविरुद्ध घडिल्लें.

जणू तांची राखणूच गेल्ली.

जें कितें घडलां ताची खंत दर एकल्याच्या तोंडार दिसताली. तांच्या भावार्थी काळजांत एकेतरेची विपरीत भिरांत दाटून आयिल्ली. कितेंय वायट घडपाक शकता अशें बेश्टेंच दर एकल्याक दिसतालें. कायतान जाल्यार सामकोच कांचवेल्लो. सगळी शक्तूच गळिल्लेवरी जाल्ली. दनपारच्या वेळार बुल्डोजर राखणदाराचें स्थान मातयेभरवण करता तेन्ना ताच्यान तें पळोवंक नज जालें. तो पयस वचून फाट करून उबो राविल्लो. जाचेर भावार्थ दवरून उतलीं वर्सां पोट भरलें तें भावार्थाचें प्रतीकूच खंयतरी पयस पावलां अशें दिसतालें. सगळे कामगार जड मनान तें कृत्य पळयताले. मनांत आसूनय कोणूच बुल्डोजर थांबोवंक शकना आसलो. अचकीत लोकांचो बोवाळ वाडलो. बोंवाळ सरशीं पयस आशिल्लो कायतान लागीं आयलो. पळयल्यार कायतानाक कितलेशेच फावट नदरेक पडपी सोरोप ताच्या पुतान धरिल्लो.

'बाबा, सोड तेका जाग्याचो तो'

'पोतयेत घालून घट्ट बांदात' कोणतरी आड्डलो.

एकटो माती भरपाची कायल घेवन आयलो.

'हाचे पोंदा धांपून दवरात.'

कुशीच्या एका झाडा पोंदा ताका कायली पोंदा धांपलो. आनी वयल्यान वजनाक फातर दवरलो.

कायतानाक भोव वायट दिसलें. जाग्याचो तो... ताका धरपाचो न्ही...

'सायबा म्हज्या पुताक भोगोस' मनांतल्या मनांत ताणें चूक मागली.

राखणदाराक धांपून दवरला हो विचारूच कायतानाक सोंसना जालो. आपलोच स्वास कोणेतरी आडावन धल्ला अशें ताका दिसलें. ताका असो धांपून दवरूंक फावना. ताका मुक्त सोडूकच जाय. जागृत सासाय ती... कितेंच संकट येवं येता. कितलेशेच प्रस्न कायतानाच्या मनांत येवन गेले. लागीं कोण ना सो पळोवन कायतानान चोबो उखल्लो. पूण ताच्या दोळ्यामुखार धांपिल्लो जाग्याचो पोंदाक नाशिल्लोच...

''पाय उठना वोगोत जालो.'

कायतानाक मात्सो दोळो लागिल्लो. बाबुशाच्या आवाजान तो जागो जालो. साडेसांताक पुलाकडेन खणीर वचपी गाडी धरपाक जाय आसली. बेगीबेगीन सगळे आवरून दोंगायले दबे धरून ते भायर सरले. वाटेर बाबूशाची व्हंकल क्लारा तांचीच वाट पळयतालें. ताका सुशेगाद येवं अशें येवजून कायतानान मात्शे सडसडीत पावलां उखल्लीं आनी मुखार चलपी विष्णूची फाट धरली.

'कायतान, जाणां तूं, राती सपनांत जाग्याचो दिश्टी पडलो.'

कायतान वग्गीच रावलो.

दनपारच्या वेळार खणीवेलो बोंवाळ इल्लो इल्लो उणो जालो. तांबडो धुल्ल उबयत धांवपी ट्रकाचो घरघर तात्पुरतो उणो जालो. वावर करपी लोक जेवणाक वयर सरले. कायतानाची भूकच गेल्ली. जेवणाची वान्साच नासली.

'पाय, जेवणाक येना.'

'तूं जेय रे, हांव येता मात्शे उसरान.'

पायक एकल्याक सोडून जेवप बाबूशाक पटलें ना. तोवूय सकयल देंवलो.

'कर तूं. वांगडाच जेयचें.'

निमणो ट्रक भरपाचो आशिल्लो. दोगांय वावराक लागले. ट्रक भरून जालो.

'पाय वयर सर तूं. हात पांय धूव. येता हांव.'

कायतान वयर पावला मात. त्याच खिणांत खणीचो अर्दो भागूच सकयल देंवलो. आनी हेर कांय कामगारां वांगडा कायतानाच्या पुताकूय गिळून घेतलो.

'सायबा, नागोलो हे हांव.' व्हड किळांच मारून कायतान जमनीर पडलो.

●●●



# 11

# उड गा कमाल्या!

'म्हजो कमालो काय बरो वयर वयर उडटा. तुजो उडच ना.'

'तुजो कमालो म्हाका दी आनी म्हजो तुका घे.'

'तुजो उडनाशिल्लो म्हाका नाका.'

'मम्मी, रंजू म्हाका चाळयता गे.'

धुवेच्या उल्या सरशीं आर्याची मम्मी घरांतल्यान भायर आयली. रंजू आनी आर्या पोरसांत कमाले धरून खेळटालीं. दोगांयनी दोन कमाले धरिल्ले आनी ताचे शेपूट सुताक बांदिल्लें. पूण रंजूचो कमालो बरो उडटालो जाल्यार आर्याचो जमनीरूच पांखां फडफडायतालो. आपलो कमालो बरो उडटा म्हण रंजू उमेदीन फुलिल्लें जाल्यार आर्याचें तोंड बाविल्लें. हातांत धरिल्लें सुताचें पोंत हालोवन आर्या कमाल्याक उडोवपाचो यत्न करतालें. पूण कमालो कसोच उडपाक तयार नाशिल्लो.

'रंजू, कूय ऽ कूय ऽ तुजो कमालो मेलो.

'मम्मी म्हजो कमालो उडय गे...'

आर्या रडकुरें जालें.





'म्हजे धुवेक रडयता दाखयतां तुका.'

आर्याची मम्मी खिणांत रंजू म्हाऱ्यांत पावली. रजूल्या हातातला कमाला तिणं ओडून घेतलो आनी ताची पांखांय तोडलीं.

'नाका गे काकी... म्हज्या कमाल्याक मारूं नाका...'

रंजून आकांत केलो.

आर्याच्या कमाल्यावरी रंजूचो कमालोय आतां जमनीर तडफडूंक लागलो. आर्याच्या तोंडार हांसो फुल्लो...

'म्हजे धुवे परस हुशार जावंक सोदता. चड खेळपाक जाय... कामां कोण करतलो...'

काकीन पिळिल्लो कान पोशेंत रंजू हुंडक्या हुंडक्यांनी रडलें... कितलो वेळ मेरेन...

जायतो विसरपाचो यत्न करूनय ह्या प्रसंगान रंजूची केन्ना फाट सोडली ना. ह्या प्रसंगाच्या यादी सरशीं रंजूचें अस्वस्थ मन चडूच अस्वस्थ जालें. चार वर्सांचें आसतना आवय – बापूय अपघातात सोंपलीं आनी रंजूचें भुरगेपणूच शेणून गेलें. ल्हान पिरायेरूच आपल्याच घरांत काकीची वावराडी जालें. काकीन केन्नाच कुस्कुटाचीय माया दाखयली ना. आर्या परस ताका केन्नाच वयर सरूंक दिलें ना. काका माया दाखयतालो. रंजूक कामाक कडटना पळोवन ताचें काळीज चुरचुरतालें. पूण काकी मुखार ताचें कांयच चलनासलें.

आर्यापरस रंजू दोन वर्सांनी व्हड. पूण काकीन दोंगराकूय वांगडाच शाळेंत घातली. शाळेंत येतना वतना रंजून आर्याचें दफ्तर सांबाळप. जाम जावन शाळेंतल्यान घरा पावतकच आर्याखातीर जेवण तयार, जाल्यार रंजू खातीर पयलीं काम मागीर जेवण. अभ्यास करपाक वेळ खूब उणो आसुनय रंजू शिकपाक खूब फुडें. एक फावट पयलो नंबर मेळ्ळो तेन्ना तें गूण पत्रिका घेवन उमेदीन घरा आयलें.

'तुजो बापूय खूब हुशार आसलो. ताचेच बडीर गेलां तूं...' काकान तोखणाय केली.

'उज्यात घाल ते मार्क. काम करपाक जायना. शिकपाक मात बरो वेळ मेळटा.' काकी धेंगसली.

आर्या परस रंजू शिकपाक हुशार हाचें तिच्या पोटांत दुखतालें. दोन दीस तिणें रंजूक वाडलें ना. शाळेंतूय धाडलें ना. हाचे फुडें आर्यापरस चड मार्क घेतल्यार शाळेत वचपाचेंच बंद करतलें अशी भिरांत घातली. घडये काकी ताका शाळेत धाडचीच नासली. पूण आर्याचें दप्तर सांबाळपाक जाय आसलें न्हय. तेन्ना सावन रंजून काकीचे भिरांतेन अभ्यास करपाचोच सोडून दिलो. आपणें खूब शिकपाचें ताचे सपन खंयचे खंय शेणून गेलें. रंजूचे जिणेचीच पांखां काकीन तोडली. दोन वेळचें जेवण वाडटा ताचे बदला रंजूचे जिणेच हावेसूच सोंपोवन उडयले.

आयज रंजूक दिसतालें, आई-बाबा आशिल्ले जाल्यार आपूण खूब शिकून खूब वयर पावपाचें. सपनाच्या उक्त्या मळबांत वयर वयर उडपाचें. पूण रंजूचें नशीबूच फुटकें थरिल्लें. आई बाबाची तितलीशी याद नाशिल्ली. पूण लोकांकडल्यान आयकल्लें, तीं दोगांय रंजूची खूब माया करतालीं. भुरगेपणांत ताका सदांच दिसतालें. तांणी वतना आपणाकूच कित्याक व्हरूंक ना काय... आयजूच दिसता काकीची वावराडी जावन जगचे परस तांणी तेन्नाच आपणाकूच व्हेल्यार बरें जावपाचें...

खूब वेळ रंजूक दिसतालें, घर सोडून खंयतरी पयस वचचें. पूण वतलें खंय... शिकपाची आवड आसूनय शिकपाक मेळ्ळें ना. आर्या धावेक नपास जालें आनी रंजूचेय शिकप बंद जालें.

'काकी हांव फुडें शिकता गे...'

रंजू परत परत काकुळटेन पाराथालें.

'शिकून कितें करपाचें आसा... आनी पयशे कोण दितलो...?'

'आई-बाबाक मरतकच खूब पयशे मेळिल्ले न्हय.'

तोंड घेवन उलय नाका. इतलीं वर्सा तुजेखातीर खर्चील्यात ते कितें पयशे न्हय...'

रंजूची शिकपाची उमेद उमेदूच उरली. काकीक फुकट वावराडी मेळिल्ली.

वर्सा धांवत रावलीं. रंजू ल्हानाचें व्हड जालें. पूण जिणेंतलें दुःख सोपूंक नाशिल्लें. फाटल्यो यादी फाट सोडिना आसल्यो. भुरगेंपण सोंपून लग्नाची पिराय जाल्ली. आपणेंय लग्न जावचें, सोबीत संवसार करचो हार्ची सपनां रंजून रंगयिल्ली. बाबान ताच्या नांवार दवरल्यात ते पयशे लग्नाक पुरो आशिल्ले. आपणाक समजूवन घेवपी कोण तरी मेळटलो... दुःखाची जीण सोंपतली अशे विचार रंजूच्या मनाक दोन खीण सूख दिवन वताले.

पूण घडलें भलतेंच. काकीन आपल्याच भयणीच्या पुताकडेन रंजूचें लग्न ठरयलें. ताची पयली बायल भायर पडिल्ली. तेन्ना सावन रंजूची जिणेवयली आस्थाच गेल्ली. आपणाक ताचेकडेन लग्न जावपाचें ना, हें यत्न करूनय काकीक केन्ना सांगूंक शकलें ना. जिणभर ताची दोरी काकीच्याच हातांत उरली. काकीन आपणाक जाय तशी हालयली.

कितल्याश्योच बऱ्यो सोयरिको येताल्यो. पूण काकीन केन्ना कोणाक हय म्हणूंक ना. आर्या पयलीं तिका रंजूचें लग्न करपाचें नाशिल्लें. आनी आतां आर्याचें जमतकच काकीन आपल्या भयणीच्या पुताच्या गळ्यात रंजूक घालपाचें थारायलें.

काल सावन काकीचें तें उलोवणें कानार पडत सावन रंजूचें चित्त थाऱ्यार नाशिल्लें.

काकी काकाक सांगताली,

'रंजूच्या नांवार पयशे आसात, ते आर्याच्या लग्नाक वापरचे.'

'रंजूचे आर्याक मेळटात? ते ताच्या लग्नाक नाकात?'

'म्हज्या भयणीन रंजूक कांयच घालपाची गरज ना म्हळां.'

'नाका म्हळें म्हण, बेश्टींच दितलीं...'

'न्हवरेकारां मागीर सगळें करून घालतलीं. नाका जाल्यार वगीच कित्याक दिवपाक जाय.'

'रंजूचे पयशे आर्याच्या लग्नाक वापरप... म्हज्या मनाक पटना तें...'

'इतलो खर्च उबो करपाक जातलो तुज्यान... म्हजे धुवेक भरपूर घालून दितलें हांव. एकलीच अपुरबायेची धूव म्हजी...'

काका फुडें कांयच उलयलो ना. काकी मुखार ताचें केन्ना चल्लेंच ना.

रंजू सगळे मोन्यांनी सोंसतालें. दुख्खान मन भितरले भितर घुस्मटालें आपलो असो कोणूच नाशिल्लो. काकीन जिणूच असह्य करून सोडिल्ली. जिणेंत कितलीशींच सपनां रंगयिल्लीं. काकीची बळजबरी सोंसूनय खिणयाळ्या हावेसाच्या बळार उडपाचो यत्न केल्लो. पूण दर वेळा पांखां तोडिल्ल्या कमाल्यावरी जीण तडफडून जमनीकूच आफटली. आई-बाबाच्या यादीन जायते तळमळे सोंशिल्ले. काकीन दिल्ल्या दुःखाच्या भारान काळीज जडाविल्लें. आनी नाय म्हळ्यार ह्या दुःखानूच हालीं सराक एक वेगळी तांक जीणेंत रिगिल्ली. काकीचो संवसार सांबाळपाकूच आपली पुराय जीण सोंपची ना मूं. हो प्रस्न मनाक सतयतालो. खूब सोसलें... सोंसपाकूय एक, अंत आसता... केन्ना तरी स्वतंत्रपणान जगपाक जाय. जिणेचो पाखां तोडिल्लो कमालो परत उडपाक जाय अशें परत परत दिसतालें. काकीच्या अन्यायापसून पयस वचचें. परत खूब खूब शिकचें... अशीं सपनां दोळ्यांक झळकून वताली. कितें तरी करचें अशें दिसतालें. पूण कितें ते नक्की कळच नासलें. खंयचेय परिस्थितीत आपले पयशे काकीक दिवंक फावनात अशें दिसतालें. पूण आयज मेरेन काकीमुखार केन्ना तोंड उगडपाचें धाडस रंजूक जावंक नाशिल्लें आनी आता ना म्हणप जमत काय...

'रंजूच्या लग्नाक पयश्यांची कांयच भिरांत ना. तांणी कांयच नाका म्हळां. आर्याच्या लग्नाक मात खूब खर्च येतलो.'

च्या घेतना काकीन विशय काडलो. कोण कांय उलयलो ना.

'रंजूच्या नांवार पयशे आसात ते आर्याच्या लग्नाक वापरचे.' काकीन फुडें म्हळें.

'काकी म्हाका लग्न जावपाचें ना.'

'फाल्यां तूं आनी काका बँकेंत वचात.'

'हांव दिवचें ना पयशे. म्हज्या बाबाचे ते. म्हजोय आधिकार आसा तांचेर.'

खीणभर काकी रंजूक पळयत उरली. आपणे पयलेच फावट काकीक परतें सांगपाचें धाडस केलें हाचें रंजूक अजाप दिसलें.

'अब्बा दिवचें ना कशें. इतलीं वर्सा पोंसलें ना तुका.' काकी तिडकली.

'घरांत वावराडी दवरल्यार पोसचीं नासलीं. त्या पयश्यांनी म्हाका फुडलें शिकप घेवंक जाय.'

'शिकूंक कितें मळबाक हात लायतलें. बऱ्यान लग्न जा.'

'सांगलें न्हय म्हाका लग्न जावपाचें ना.'

'तुका घरांत कोण दवरून घेतलो तें हांव पळयतलें.'

'म्हजोय अधिकार आसा घराचेर. ह्याफुडें हांव म्हाका जाय तशेंच करतलें.

काकी रंजूक पळयत उरली. तें तडक आपल्या रुमांत गेलें... हुंडक्या हुडक्यांनी रडलें, कितलो वेळ म्हळ्यार... दुका वांगडा मन आनी काळीज खूब हलके जालां अशें दिसपाक लागलें. वेगळीच उमेद रंजून पयलेच फावट अणभवली...

काकीन पांखां तोडिल्लो आपलो कमालो तडफडून परत उडपाक लागला हाची जाणीव रंजूच्या काळजाक आफडून गेली.







नांव : जोफा गोन्साल्वीस

जल्मतारीक : 22 फेब्रूवारी 1982

शिक्षण : बी. ए. (कोंकणी, समाज शास्त्र)
एम. ए. (कोंकणी)
बी. एड. (कोंकणी, इंग्लीश)

वेवसाय : केंपेच्या सरकारी महाविद्यालयांत कोंकणी शिकयता.

फाटल्या स-सात वर्सासावन कथालेखन करता.

कथांक फुडलीं इनामां मेळ्ळ्यात :

* तिसऱ्या युवा कोंकणी साहित्य संमेलनात कथेक पयलें इनाम.
* पाचव्या युवा कोंकणी साहित्य संमेलनात कवितेक दुसरे इनाम आनी नाटकुल्याक तिसरें इनाम
* सातव्या युवा कोंकणी साहित्य संमेलनात 'चूक' कथेक आनी 'हावेस' कवितेक पयलें इनाम.
* नवव्या युवा कोंकणी साहित्य संमेलनात 'घरा फाटलो आंबो' कथेक दुसरे इनाम.
* हेर साहित्य सर्तींनीय इनामां जोडल्यात.

